**कला चेतना, वळवय निर्मित –**
**'फिरंगी फटास' (2011)...**



कलाकार : उमेश नायक, अनंतदास नायक, लक्ष्मीदास नायक, बाबलो शिलकार, प्रतिका गांवस, राजदीप नायक, सौरभ कारखानीस आनी दिपिका करिशेट्टी.



कलाकार : अनंतदास नायक, बाबलो नायक, दिपिका करिशेट्टी, प्रितिका गांवस, राजदीप नायक, प्रशांत नायक आनी मयूर नायक.

# पुंडलीक नारायण नायक

## हांगेलीं रंगमाचयेर आयिल्लीं नाटकां

1) खण खण माती 1977
2) रक्तखेव 1978
3) राखण 1979
4) देमांद 1980
5) मुक्तताय 1980
6) सूर्यसांवट 1981
7) शबै शबै भौजन समाज 1981
8) सुरींग 1982
9) मनशाळी मोनजात (रुपांतरीत) 1982
10) पिंपळ पेटला 1984
11) श्री विचित्राची जात्रा 1986
12) दायज 1990
13) चैतन्याक मठ ना 1991
14) आत्मवंचना 1992
15) परिक्रमा 1993
16) दिश्टदौलत 1995
17) तकली तड्‌डकी (रुपांतरीत) 1998
18) तिरंगी चक्राचक्री 1998
19) प्रेमजागोर 1999
20) शिरी रे शिरी! अधांतरी! 1999
21) काळजाची काणी 2000
22) प्रेमयुद्ध 2000
23) दिव्या दिव्या दिपत्कार 2000
24) अंता घरा भगवंता 2001
25) कांसुलो 2002
26) धनयां देंवचारा 2003
27) चित्र स्वयंवर 2003
28) सांगोड 2004
29) चतुरंगा 2005
30) कथा अस्तुरी 2008
31) फिरंगी फटास 2011

* चत्राय : नाटकाच्या मुखावयलें वर्स नाटक रंगमाचयेर आयलां तें वर्स.

# फिरंगी फटास

(दोन अंकी)

पुंडलीक नारायण नायक



FIRANGI FATAS Konkani Play
by PUNDALIK NARAYAN NAIK



प्रकाशन क्र. : 96

पयली उजवाडावणी : 2012

उजवाडावपी :
हेमा पुंडलीक नायक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय, फोंडें,
गोंय : 403 401

छापपी :
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसेट,
वळवय, फोंडें,
गोंय : 403 401

अक्षर जुळोवणी :
रिया ग्राफिक्स
ओल्ड-गोवा,
गोंय : 403 402

मुखचित्र :
कलानंद कामत बांबोळकार

मोल : ₹ 100/-

ISBN : 81-86488-96-0

गोयांत चलिल्ल्या
मुळाव्या शिक्षणाच्या माध्यम प्रश्नांत (चजख)
सक्रिय वांटो घेवन
गोंयच्या तेन्नाच्या (2011-2012) मुख्यमंत्र्याआड
Mr. Digambar Kamat get well soon
फेसबुकाच्या माध्यमांतल्यान
जागृताय घडोवपी
**युवाशक्तीक**
मोट्या अभिमानान अर्पण!

– पुंडलीक नायक

# फिरंगी फटास... आवाज जांवचे पयलीं

ह्या नाटकाचो जल्म, गोंयकारांच्या एका जिव्हाळ्याच्या प्रस्नांतल्यान जालो. फाटल्या मार्च 2011 त गोंयांत एक चळवळ, एक आंदोलन उबें रावलें. प्रश्न आशिल्लो, मुळाव्या पांवड्यार म्हणल्यार यत्ता पयली ते चवथी मेरेन माणकुल्या भुरग्यांचें शिक्षण, इंग्लीश सारखे परके भाशेंतल्यान जांवचें काय आमच्या स्वताच्या प्रादेशिक भाशांतल्यान जावंचें? म्हणजे इंग्लीशीत काय कोंकणी-मराठींतल्यान? खरें म्हणल्यार देशांत हेर कडेन आनी सबंद संवसाराचे फाटीर होच संकेत आनी नेम आसा - तो म्हणल्यार भुरग्यांचें प्राथमिक शिक्षण तांचे आवयभाशेंतल्यान जांवचें! पूण पंडित जवाहरलाल नेहरू हाणीं म्हणिल्लें न्हय! अजीब है यह गोवा के लोग! आनी नेमकें तशेंच घडलें. गोंयच्या सरकारान फाटफुडो चिंतिनास्ताना, एका विशिश्ट गटाचे भरीक पडून सामको उरफाटो निर्णय घेतलो. ज्यो मुळाव्यो शाळा प्रादेशिक भासांच्या माध्यमांतल्यान चलता. म्हणजे कोंकणी-मराठीं आनी हेर प्रादेशिक भासांतल्यान चलता, तांकां जशें सरकार शाळा चलोवपाक अनुदान दिता तशेच तरेचें अनुदान इंग्लीश माध्यमाच्या मुळाव्यो शाळा चलोवंक सोदता तांकांय मेळटलें. म्हणजे सगळे पालक आपल्या भुरग्यांक इंग्लीश माध्यमाच्या शाळांनी धाडपाक मेकळे!

आनी हांगासरूच लोक खुबळ्ळे. कारण गोंयचे लोक शांत आसात हाचो अर्थ ते निर्बुद्ध आनी दुबळे आसात अशें न्हय. गोंयच्यो माजी मुख्यमंत्री आनी भारतीय संस्कृती आनी भारतीय भाशांची अभिमानी श्रीमती शशिकलाताई काकोडकार हांगेल्या अध्यक्षतेखाला 'भारतीय भाषा सुरक्षा मंच' नांवांची समविचारी लोकांची संघटना स्थापन जाली..

मायभास ही फक्त एक संपर्काची भास नासता, तर तिचो संबंद संस्कार, संस्कृती हांचेकडेन आसता. एक वर्सभर हें आंदोलन चल्लें. भाशा प्रश्नाचेर चक्काजाम, बंद, रस्तानाट्यां, निदर्शनां, रॅली, मेळावे-महामेळावे, दिंड्यो-महादिंड्यो, आदि तरांभासांच्यो, निशेदाच्यो कार्यावळी आनी उपक्रम जाले.

तशेंच 'मिस्टर दिगंबर कामत गेट वेल सून' ह्या माथाळ्याखाला गोंयच्या तरनाट्यांनी फेसबुकावयल्यान जागृताय केली.

आमी हो प्रश्न रंगमाचयेर हाडलो. फक्त मनोरंजन करपाक न्हय, तर जसो तो प्रश्न आमच्या काळजाक भिडलो तसो तो लोकांमेरेन पावोवपाखातीर. ह्या नाटकाचो हावेस फक्त हांसोवपाचो निखालस ना, पूण हांसता हांसता अंतर्मूख करपाचो नक्कीच आसा.

नाटकाचो पयलो प्रयोग 2011 वर्साच्या सप्टेंबर म्हयन्यांत जालो. नाटक प्रेक्षकांक मानवलें. एकेवटेन भारतीय भाषा सुरक्षा मंचाचें इंग्लीशीच्या माध्यमाआड आनी कोंकणी-मराठीचो पुरस्कार करपी खर अशें आंदोलन चलतालें जाल्यार त्याच वेळार त्या आंदोलनांच्या प्रश्नांक बळकटी दिवपी 'फिरंगी फटास' नाटकूय त्याच नेटान चलतालें. इतल्या वोबाळांत डिसेंबर म्हयन्यांत गोंय विधानसभेची वेंचणूक जाहीर जाली. भारतीय भाषा सुरक्षा मंचान, भाशा माध्यमाचो मुद्दो हो वेंचणुकेचो मुद्दो केलो आनी ह्या प्रश्नाचेर भारतीय जनता पार्टी आनी महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाचे युतीक पाठिंबो जाहीर केलो. कारण ह्या दोनूय पक्षांनी आपणाल्या जाहीरनाम्यांत भारतीय भासांचो पाखो घेतिल्लो. वेंचणुकेमेरेन म्हणल्यार ता. 3 मार्च 2012 मेरेन नाटकाचे गोंयच्या वेगवेगळ्या भागांत एकूण 89 प्रयोग जाले.

2012 चे गोंय विधानसभेचे वेंचणुकेचे मुखेल मुद्दे भ्रश्टाचार, बेकायदेशीर खणी, फॅमिलीराज तशेंच शिक्षणाचें भाशा माध्यम हे आसले. भाशा माध्यमाचे बाबतींत ह्या नाटकान लोकांमदीं जागृताय करपाचो म्हत्वाचो वावर केला. हाचो आमकां अभिमान आसा.

ह्या यत्नांत लेखक म्हणून जितलो म्हजो वांटो आसा, तितलोच वांटो दिग्दर्शक म्हण प्रशांत म्हाड्डोळकार आनी कलाकार - निर्मातो म्हणून राजदीप नायक आनी सांगात्यांचोय आसा. कारण राजदीपानूच हें नाटक म्हजे कडल्यान बरोवन घेतलें. लेखक म्हणून हांव, दिग्दर्शक म्हणून प्रशांत आनी कलाकार - निर्मातो म्हणून राजदीप असो हो समविचारींचो त्रिवेणी संगम घडलो अशें म्हणूं येता.

फाटलें वर्सभर ह्या आंदोलनांत विचारवंतानी, शिक्षणतज्ञांनी, पुरस्कर्त्यांनी जे मुद्दे, विचार मांडल्यात तांचेंच ह्या नाटकांत संकलन केलां म्हणल्यार जाता. ॲड. उदय भेंब्रे, विष्णू वाघ, शशिकलाताई काकोडकार, पांडुरंग नाडकर्णी, प्राचार्य माधव कामत, अरविंद भाटीकार, नागेश करमली, सुभाष वेलिंगकार, दत्ता भि. नायक, अनील सामंत, ॲड. अनाक्लेत व्हियेगश, फा. मोसीन आताईद, मार्टिन मिनिन फेर्नांडिस, प्रशांत नायक हांणी वेळाकाळार व्यक्त केल्ल्या विचारांचें पडबिंब संवादांनी दिसून येतलें. इंग्लीशीखातीर भारतीय लेखक-विचारवंत 'बोन्साय' जाल्यात हो विचार ज्ञानपिठकार रवीन्द्रबाब केळेकार हांगेलो. तोय हांवें नाटकाचे निमाणेकडेन घेतला.

नाटकांतले 'आडकुलो गो बुडकुलो' हें गीत नामनेचो मंगळुरी कवी चा. फ्रा. देकॉश्ता हांगेलें आसा. तें तांगेल्या 'सोंशाचें कान' ह्या साहित्य अकादेमी पुरस्कारप्राप्त काव्य संग्रहांतल्यान घेतलां. बाबाक खेळयताना म्हणटा त्यो ललयो पारंपारीक आसात. बाबा परदेशांत वता तेन्ना म्हणटा तें निरोपाचें गीत रचताना तातूंत एक कडवें पारंपारिक मांड्याचें आसा जाल्यार 'चांदोबा चांदोबा भागलास का?' ह्या नांवाजल्या मराठी बालगीताचें एक कडवें आसा. गणपतीच्या पुजेवेळार म्हणटा ते 'सुखकर्ता दुःखहर्ता' हे मूळ संत रामदासाचे आरतीचो विडंबन स्वरुपांतलो इंग्लीश तर्जूमो तेच चालीर दिला पूण नाटकाच्या प्रयोगांत श्री. विष्णू वाघ हाणी 'आरतीचें केल्लें' विडंबन वापरतात. त्याच प्रमाण, नाटकाचें आरंभाचें शिर्शकगीत परत नाटक सोंपता तेन्ना म्हणपाची चाल आनी परंपरा आसा. पूण नाटकांत निमाणेकडेन कलाकार, श्री. सोयरू वर्दे हांगेले प्रा. पूर्णानंद च्यारी हाणी गायिल्लें 'गोंयकारांनो आतां तरी जागे जायात रे' हें गीत वाजयतात आनी गायतात आनी तें खूब प्रभावी थारता. ह्या नाटकाचे प्रयोग करतल्यांनी ह्या गजालींची नोंद घेंवची.

नाटक वास्तव आनी कल्पनेच्या अशा दोन थरांचेर चलता. बायगेर बाब जातकूच विचित्र भेसांत येवन 'आडकुलो गो बुडकुलो' हें गीत गावन नाचपी पंगड तशेंच सटी देवी येवन, तिगेलें नाचप ह्यो गजाली वास्तवापासून कडेक

काडून फँटसीचे धर्तिचेर व्हेल्यात. लेखनांत केल्लो हो प्रयोग दिग्दर्शकाच्या कसबान रंगमाचयेर यशस्वी जाला. त्याचप्रमाण फँटसीचें रुप येवचें देखून बाबा परदेसांतल्यान हाडटा त्या वस्तूंचो आकार मूळ आकारापरस व्हड दाखोवचो अशें सूचित केलां. तशेंच वांट्टा तीं पांचखाजीं, सटीदेवीच्या हातांतली लिखणी आनी दौत, दोतोराच्या गळ्यांतलो स्टेथोस्कोप आकारान व्हड आसचो अश्यो चत्रायो दिल्यात.

नाटकाचो पयलो प्रयोग सप्टेंबर 2011 त जालो. आनी म्हणटां म्हणटां चार म्हयन्या भितर नाटकाचो सुवर्ण महोत्सवी पन्नासावो प्रयोग ता. 14 जानेवारी 2012 दिसा मयें, दिवचल हांगासर जालो. जाल्यार शंबरावो प्रयोग फोंडे म्हार्दोळ हांगासर ता. 24 मार्च 2012 दिसा जालो.

मे 2012 मेरेन ह्या नाटकाचे सुमार 140 ते 150 प्रयोग जातले असो अदमास आसा.

नाटकाखातीर प्रत्यक्ष आनी अप्रत्यक्षरितीन जांचो हातभार लाबलो तांचे सगळ्यांचें उपकार आठयतां.

हें म्हजें एकतिसावें नाटक!

**– पुंडलीक नारायण नायक**

वळवय, गोंय
ता. 21 एप्रिल 2012

'फिरंगी फटास' नाटकाचो पयलो प्रयोग, कला चेतना, वळवय संस्थेचेवतीन, सार्वजनिक गणेशोत्सव, कुंडय, फोंडें - गोंय हांगासर, ता. 3 सप्टेंबर 2011 दिसा, सां. 7.00 वरांचेर जालो.

**श्रेय नामावळ**

| | | |
|---|---|---|
| 1. | **भावोजी** | : राजदीप नायक/प्रशांत म्हार्दोळकार |
| 2. | **बाय** | : प्रितिका गांवस |
| 3. | **बाब** | : सौरभ कारखानीस |
| 4. | **मास्तर/भटजी** | : उमेश नायक |
| 5. | **मोनिका** | : दिपिका करिशेट्टी |
| 6. | **विष्णू** | : अनंतदास नायक |
| 7. | **पांडुरंग** | : प्रशांत नायक |
| 8. | **विठ्ठल** | : मयूर नायक |
| 9. | **शंकर** | : बाबलो शिलकार |
| 10. | **सटीदेवी/दोतोर** | : लक्ष्मीदास नायक/मयुरेश नायक |

| | |
|---|---|
| **दिग्दर्शन** | : प्रशांत म्हाड्डोळकार |
| **नेपथ्य** | : हेमंत कांसार |
| **संगीत/गायन/ध्वनिमुद्रण** | : अक्षय प्रकाश नायक |
| **निर्मिती संकल्पना/वेशभुशा** | : सुचिता नार्वेकार |
| **रंगभुशा** | : दिपिका करिशेट्टी |
| **पार्श्वसंगीत** | : सचीन चौगुले |
| **संगीत संयोजन** | : खेमराज नायक |
| **उजवाडा येवजण** | : मयुरेश नायक / संदिप खेडेकार |
| **नेपथ्य सजावट** | : अरविंद कडेकार, विनेश नायक, मनोहर तारी, आदित्य कडेकार |
| **प्रसिद्धी सामुग्री / कलानिर्देशन** | : कलानंद कामत बांबोळकार |
| **निर्मिती मुखेली** | : उमेश नायक |

## पात्रांची वळख

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. | भावोजी | – | बायचो घोव, घरजांवय |
| 2. | बाय | – | भावोजीची घरकान्न, इंग्लीशीचें फॅड आशिल्ली |
| 3. | धाकलो बाबा | – | पांच/स वर्सांचो |
| 4. | बाबा | – | भावोजी आनी बायचो तरनाटो पूत |
| 5. | मोनिका | – | बाबाची मोगिका |
| 6. | विष्णू | – | भावोजीलो शेजारी |
| 7. | पांडुरंग | – | भावोजीलो शेजारी |
| 8. | विठ्ठल | – | भावोजीलो शेजारी |
| 9. | शंकर | – | भावोजीलो शेजारी |
| 10. | मास्तर | – | शाळेंतलो मास्तर |
| 11. | एँकर | – | टी वी चॅनलाचो |
| 12. | कॅमेरान | – | टी वी चॅनलाचो |
| 13. | सटी देवी | – | भुरग्याचे सटयेदिसा भुरग्याचे कपलाचेर ताचें भविश्य बरोवपी दैवत (कल्पना) |
| 14. | दोतोर | – | दोतोराचें सवंग केल्लो एक गांवचो मनीस |
| 15. | गांवातलो लोक | – | दादले आनी बायलो |

# अंक : पयलो

## देखाव – एक

(माचयेर धायेक जाणांचो पंगड येवन गायता आनी आशयाप्रमाण अभिनय करता. दादले आनी बायलोय आसात. सगळ्यांनी सादारण एकेच तरेचो भेस केला. पंगड गायता तें नाटकाचें शिर्शक गीत.)

**आमची भूंय आमची भास, उकडी पेज खरी मिरास**
**भुलूं नाका धोलूं नाका, नकली सुरय फिरंगी फटास**

**भिशु बिलु कोको मेमें, बालजनांची वेगळी भास**
**डॉग कॅट फूड फिश, सगळ्यांक तुमचें एकूच माप**

**ऋतु परमाणें आंबील मणगणें, कितलें पुश्टीक कितलें मिठास**
**बाराय म्हयने तुमचें खाणें, बर्गर पिझ्झा चिकन मास**

**मेवणी मेवणो भावज भावोजी, वेगळ्या नांवांची केदी रास**
**सिस्टर ब्रदर फादर इन लॉ, सगळीं नातीं जालीं खलास**

**'रेन रेन गो अवे,' गायता तुमी पळोवन पावस**
**'पावसा पावसा यो रे यो' गायता भुरगीं दिलखुलास**

**इंग्लीश न्हय रे आमची राणी, परभासांचे कित्याक पास**
**हिंदी, मराठी, संस्कृत, कोंकणी, आमच्यो भासो आमकां खास**

(शिर्शकगीत जातकूच पंगड कुशीक सरता.)

## देखाव – दोन

(बाय, सादारण पंचवीस वर्सांची लग्न जाल्ली बायलमनीस. ती सात म्हयन्याची गुरवार आसा. आयज तिका फुलां माळपाचो दीस. ती भेस करून माथेंभर फुलां माळून फाटल्यान एके बसकेर बसल्या. लोक तिचे भोंवतणी आसात. आडसाक लागून ती दिसना. तातूंतलो एकलो थंयसावन कडेक सरता. हो बायचो घोव. ताका सगळे 'भावोजी' म्हण वळखतात. बायपरस पांच-स वर्सांनी जाणटो. कालसांव, शर्ट, वयल्यान कोट, तोपी असो भेस. कोटाच्या बल्सांत सोऱ्याची ल्हानशी बाटली (क्वार्टर), अदींमदीं पिवपाक, तो मुखार येवन प्रेक्षकांकडेन संवाद करता.)

**भावोजी** : नमस्कार ! वळखले ना? कशे वळखतले? हालीं आसा खंय हांव तुमचेमदें? पयलीं खंयूय मेळटाले. खंयूय म्हणजे तावेर्नार... बार्रार. आतां तेंवूय ना. ना म्हणजे पिवपाचें बंद करूंक ना. बार्रार वचपाचें बंद केलां. (बोल्सांतली बाटली मातशी वयर काडून दाखयत-) बारूच अशें हातालागीं आसतकूच भायर वचपाची कसली गरज? पूण बोल्सांत बार्र दवरपाची ही कल्पना म्हजी न्हय, बायची. आतां बाय म्हणल्यार कोण हें सांगतां. ना जाल्यार घुस्पागोंदळ जावपाचो. कारण बाय म्हणल्यार कोणूय जांव येता. चली जांव येता, भयण जांव येता, बायल जांव येता, आवय जांव येता. हांगासर बाय म्हणजे म्हजी बायल. हें फाटल्यान पळय

कितें चल्लां तातूंतली उत्सवमुर्ती. तशें म्हज्यान अभिमानान तुमकां सांगूं येता – हें जें कितें फाटल्यान चल्लां तो म्हणल्यार म्हज्या पुरुशार्थाचो भौमान! गौरव! खरें म्हणल्यार आतां हांगासर म्हाका कसलें म्हणल्यार कसलेंच काम ना. कारण म्हजें काम (मेजून) सात म्हयन्याआदींच जालां. मातसो म्हयन्याचो गोंदळ जाला खरो. पूण तशें दुबावाक कसले कारण ना. बायलांचे बाबतींत अशे फाटीं फुडें जाता.

(इतल्यान एकलो मुखार येवन भावोजीक हटकिता.)

**मनीस** : भावोजी, तुकां बायन आपयला. (परत फाटल्यान वता.)

**भावोजी** : म्हाका थंय कसलें काम ना म्हणिल्लें खरें, पूण म्हाका बायन आपयला म्हणटकच वचपाक जाय. तसो बायक हांव दोळ्यांआड जाल्लो नाका. कितलो मोग! न्हय? हरशीं लग्नाक अशीं तशीं देड दोन वर्सां जातलीं. मोग तसोच आसा. आतां सगळें कळटलेंच तुमकां. कारण सगळें तुमच्या दोळ्यामुखार घडपाचें आसा. जांव, एका निमतान तुमकां म्हजें नांव कळ्ळें. व्हदळ ताणे उलो माल्लो ना? भावोजी. तर असो हांव भावोजी.

(इतल्यान परत तोच मनीस येवन भावोजीक हटकिता. ताच्या आवाजांत मातशी निबरसाण.)

**मनीस** : बायन तुकां आपयला. एकदां सांगल्यार कळना? (ल्हवूच) अशें बायन म्हणलां.

**भावोजी** : (प्रेक्षकांक) हो दुसरो रकाद न्हय? आतां वचपाकूच जाय. कारण तिसऱ्या रकादाक रावल्यार कितें घडत तें सांगूं नजो. कितें घडत? खबर ना. कारण हांवें केन्ना तिसऱ्या रकादाची परीक्षा पळोवंना.

(बेगीबेगीन बाटली तोंडाक लायता. फाटल्या लोकांमदीं भरसता आतां बायच्या मुखावयले लोक कडेक सरतात. बाय स्पश्ट दिसता. सगळे गावन नाचपाक लागतात.

गिताच्या तालार जड जिवाचें बाय लेगीत ल्हवू ल्हवू पावली मारून नाचता. गितांतल्या 'ए, बी, सी, डी, इ, एफ, जी' च्या तालार, त्याच वळीवेळार एकलो फिरंगी तरनाटो नाचाचे पद्दतीन नाचताना दिसता. हो फिरंगी म्हणल्यार बायक अर्दीमदीं जाता तो भास, असो अर्थ. म्हणटकूच त्या फिरग्याचें अस्तित्व फक्त बाय पुरतें. हेरांचे नदरेन फिरंगी अदृश्य. फिरंग्याचो भेस म्हणल्यार काळी पेंट, धवो शर्ट, गळ्याक बो, माथ्यार हॅट, दोळ्यांक गॉगल, पांयांक बूट आनी हातांत रोत.)

**फूल फूल फुला गो। फूल फूल फुला**
**खायाला प्यायाला । काय व्हयां तुला?**

**पोटभर खा बाये । धडभर पी**
**वाल वंशाची । वयर चडां दी**
**ए बी सी डी इ एफ जी**
**ए फोर एपल बी फोर बॉय।।**

**बोरां तोरां जाय काय । आंवाळे जाय?**
**आंबट तिखट । धुंवाळे जाय?**
**दुदावयली साय काय  जाय गोड धोड?**
**बायेक भरोवचो वेळ आतां आला ।।**

**कुड्डूक गोळची । तायखिळो जाय?**
**सोजी मणगणे । खीर पायस जाय?**
**हुमण कळपुटी हुड्डुमेथी**
**घमघम  सारा गांवभर फांकला ।।**

**जायो जुयो जाय। काय मोगरीं जाय?**
**शेंवती आबोलीं । कवासो जाय?**
**कांदळां ओवळां सुरंगां चांफीं**
**आज पुस्पांचो उत्सव झाला ।।**

(गिताचे निमाणेकडेन भावोजी सगळ्यांक पांचखाद्यांतलो एक एक जिनस दिता. म्हणल्यार कोणांक नेवरी, कोणांक लाडू, कोणांक केळें आदि. लोक खूश जावन भावोजीक हात दिवन नमस्कार करून वतात. बाय ल्हवू ल्हवू भितर वता. वतना भावोजीक भितर येवपाक कुरवेन शिटकायता. भावोजी कुरवेनूच 'येतां' म्हण सांगता. भावोजी मुखार येवन प्रेक्षकांकडेन संवाद करता.)

**भावोजी** : तुमी पळयलां आसतलें, भितर वतना बायन म्हाका भितर येवपाक शिटकायलां. खरें म्हणल्यार म्हजें आतां भितर कसलेंच काम ना. म्हजीं जीं कामां आशिल्लीं तीं हांवें वेळच्या वेळार केल्यांत. पूण बायक म्हजेबगर करमना. हांव मातय दिश्टीआड गेल्लो ताका नाका. तेखातीर म्हज्या पिवपाची वेवस्था ताणें (बाटली दाखयत) अशी केल्या. आतां तुमी म्हणटले, तूं पियेता कित्याक? पयली गजाल म्हणल्यार, 'पियेता कित्याक?' हो प्रश्न जावपाक शकना. तूं खाता कित्याक? तूं जेवता कित्याक? न्हाय नासतना रावं नजो? तरी तूं न्हाता कित्याक? चलनासताना रावं नजो? तरी तूं चलता कित्याक? म्हजेखातीर हें सगळें जशें सभावीक तशें पिवपूय. पूण निमित्त सांगतलोच जाल्यार सांगू येता, अर्थांत बायच्या मुखार न्हय. बायचे अस्वडीं. तश्यो सांगपासारक्यो आनीकूय रासभर बारीकमोट्यो गजाली आसात. थोड्यो तुमकां सांगतलों, थोड्यो तुमकां आपशींच कळटल्यो.
तर अशें तरेन आयचो दीस सोंपलो. एक दीस सोंपून दुसरो

उदेलो म्हण कशें कळपाचें? उजवाड बंद करून काळोख करपाचो. परत उजवाड करपाचो.

(खिणभर काळोख जाता. परत आसा तसो उजवाड.)

## देखाव – तीन

**भावोजी** : अां आतां कशें जालें? आनीक कांय बदलपाचो प्रश्न येना. हो म्हजो सदचो आनी कायमचो भेस. बायचे भाशेन 'ड्रेस!' बायक इंग्लीशीचें खूब! खूब म्हणल्यार देमायज! इंग्लीशीचें भूत बसलां ताच्या माथ्यार! तर काल सातव्या म्हयन्यार बायची फुलां जालीं. फाटले सातूय म्हयने म्हाका कांटे कशे तोंपत आसा. खंयतरी कितेंतरी भानगड आसूंक जाय, अशें मनाक दिसता. अर्थांत दुबळ्या मनाचो खेळूय आसूं येता. पूण उलयतलो कोणाकडेन? गांवच्या लोकांकडेन? जालें!

(गांवातले चार जाण येतात.)

**पयलो** : भावोजी, कसो आसा?

**भावोजी** : बरो आसा.

(हांत दिवपाक हात मुखार करता. भावोजी अनमनता.)

**भावोजी** : खंय गेल्ले?

**दुसरो** : सकाळच्या वेळार आनी खंय वतले? व्हाळार.

**भावोजी** : पूण सरकारान सगळ्यांक संडास दिल्या न्हय?

**तिसरो** : दिल्या. घराघराक संडास दिल्या. पूण संवंय खंय दिल्या?

**भावोजी** : म्हणजे?

**चवथो** : म्हणजे संवंय जावं नाका? बंद कुडींत दुस्मानांक भियेवन

बशिल्ले भशेन दिसता. नातर व्हाळार? उदकाचो खळखळ सवण्यांचें गायन, भोंवतणी पांचवीचार झाडांपेडां, पानांफुलां...

पयलो : फुलां म्हणल्यार फुलां! भावोजी कालची फुलां बेस्ट!

भावोजी : खंयची फुलां? आं! फ्लॉवर सेरेमनी!

(सगळे अजापान पळयता.)

म्हणजे आमचे बायचे भाशेन – फ्लॉवर सेरेमनी. फुलां!

दुसरो : फुलाचो कार्यक्रम झकास जालो.

भावोजी : देव बरें करूं! बायचे भाशेन ठचैंक्यू व्हेरी व्हेरी मच.

तिसरो : असलीं फुलां हांवें जल्मांत पळोंवक ना.

भावोजी : पळोवंक ना? अब्बा! बायन माळलेलीं सगळीं फुलां हांगचींच. शेवतीं, आबोलीं, गुलाब, रोजां...

चवथो : बायन माळिल्ल्या फुलांविशीं म्हणना. फुलांच्या कार्यक्रमाविशीं म्हणटां.

भावोजी : आं. आं.

पयलो : भावोजी. असले खीण तुज्या आयुश्यांत परत परत येवं.

भावोजी : पूण फुलां एकदांच माळटात न्हय?

पयलो : हय, पूण बायल दुसरी करूं येता न्हय?

दुसरो : (ताका दटायत) तें शक्य ना. बायन आनी भावोजीन ह्या जल्मांत एकठांय रावपाचो सोपूत घेतला.

तिसरो : हय तर. घट गांठवल बांदलां. होमखणा भोंवतणी सामके मेजून साडे सात – न्हय सात फेरे काडल्यात.

भावोजी : हय, तुमी काडूना दिसता!

चवथो : भावोजी, म्हजो अदमास आनी निरीक्षण केन्ना फुकट वचपाचें ना. तुगेर – म्हणजे बायगेर चलोच जातलो.

भावोजी : पूण म्हाका चली चलता.

पयलो : पूण बायक चलची ना. बरोबर?

भावोजी : तें खरें.

**चवथो** : तर बायगेर चलोच जातलो. म्हजें निरीक्षण!

**भावोजी** : आसूं येता. तुगेलें निरीक्षण सारखें आसूं येता. तरी बरें काल येतना तुवें दुर्बिण वो मायक्रोस्कोपबी हाडलो ना!

**दुसरो** : भावोजी, पळयिल्ल्या भितर काल तुगेल्या घरचे कोण दिसले ना.

**भावोजी** : तुमीच न्हय सगळे घरचे. तशें पळोवंक गेल्यार घरच्यांक सोडून परक्या कोणांकूच आपोवं ना.

**दुसरो** : तें जालेंच, पूण तुगेल्या घरचीं! ते तुगेले दोग भाव ? दोगूय पायलट आसा न्हय?

**भावोजी** : हय. पायलट म्हणटकूच तांकां फुरसत मेळप कठीण!

**तिसरो** : पूण पायलट म्हणल्यार वयले काय सकयले?

**भावोजी** : (विशय तोडीत) एकूच तें.

**चवथो** : भावोजी, तूं घरजांवय जावन वायट जालें ना आं.

**भावोजी** : कोणाचें?

**चवथो** : अर्थांत आमचें.

**पयलो** : म्हणजे भावोजी घरजांवय?

**चवथो** : तुकां खबर ना? वगीच ताका आमी भावोजी म्हणटा?

**पयलो** : ना, हांव समजलों तो आमचोच, म्हणजे हांगचोच.

**चवथो** : तेंच तर भावोजीचें खाशेलेपण. तो हांगचो नासून लेगीत हांगचो जावन रावला. समस्त घरजांवयांनी भावोजीची देख घेवपाक फाव.

**पयलो** : भावोजी, एक सांग, थंय तुगेल्या घरा बरें काय हांगा बरें?

**भावोजी** : हांगां आसतकच हांगां बरें, थंय आसतकच थंय बरें.

**चोगूय** : वा! वा!

(भावोजी आपूण जावन नमस्कार करून सगळ्यांक कटयता. आनी परत प्रेक्षकांकडेन संवाद करता.)

**भावोजी** : हांव फकत भावोजी आनी घरजांवय न्हय तर गांवजांवय. सगळो गांव म्हाका भावोजी म्हण मानता. अर्थांत म्हजे

अस्वडीं म्हाका तासतात तें वेगळें. आनी तें खंय ना? तुमचेमदीं ना? तशे गांवचे लोक बरे. अस्वडीं तासतले धवळे लेगीत करतले. पूण प्रसंगार देव कशे पावतले.

(इतल्यान एकलो येता.)

**पयलो** : हें तुजे पान (पान दिता.) तुकां बायन आपयला.

**भावोजी** : येतां म्हण सांग.

(तो परत वता.)

हो रकाद घेवन आयिल्लो तो एक मेवणो. तशे आनीकूय कांय मेवणे आसात. थोडे बापोलमेवणे, थोडे चुलतमेवणे, एक-दोन सख्खे, पूण सख्खे जांव चुलत, भावोजीच्या कामांक पक्के. हय, भावोजीचें उतर भायर वडोवपाक ना. तसो हांव हांगासर राजा. थंय घरा आशिल्लों जाल्यार शेताच्या वेंतभर कुडक्याखातीर आनी चार वंटीच्या घरा खातीर वर्सांची वर्सां झगडत-झुजत पडटलों आसलों.

(आनीक एक मनीस येता. तो भावोजीक पाकीट दिता.)

**दुसरो** : घे, तुजें पाकीट. तुका एकदां सांगल्यार कळना? अशें बायन म्हणलां. बायन तुकां आपयला.

**भावोजी** : रोखडो येतां म्हण सांग.

(तो वता.)

हो दुसरो मेवणो. आतां तिसऱ्या मेवण्याची वाट पळोवं काय तुमचो निरोप घेवं? पळोवया तरी तिसरो मेवणो कितें घेवन येता तो! (बाटली काडून तोंडाक लायता.) खरें म्हणल्यार बायची सगळीं कामां हांवें वेवस्थित केल्यांत. कसलीं कामां तीं सांगून हांव वगीच म्हजी लज काडीना. आतां कांयच कामधंदो करीनासताना घरजांवय म्हूण रावतां. हातालागचीं थोडीं तरी कामां करपाक जायच न्हय! पूण घरजांवय म्हणजे घरमाजर न्हय, हें बायक लेगीत कळपाक नाका? (मातशें लागलां) उठ म्हणल्यार उठपाक, बस म्हणल्यार

बसपाक, हें बाय म्हाका कितें आपणालें नोकर - किर्याद समजता? दादल्यांनी कितेंय आगळीक केल्यार हांकां महिला आयोग आसा. आमकां कांय ना म्हण समजल्यांत तुमी बायलां? (निश्चेवान) येना. मेवण्याक धाड नातर वयर गेल्ल्या मांवाक सकयल आपोवन धाड. येना न्हय! म्हाका म्हज्या मनासारखो जगूं दी. म्हजे कर्तव्य हांवें पाड-पार पाडलें. आतां आबेर्तुल जायसर म्हाका कसलेंच काम ना. ना येवंचो. वरांचीं वरां असोच रावतलों भायर मुक्त... मेकळो... स्वतंत्र...

(इतल्यान व्हदळचे दोग जाण मेवणे आनी आनीक एकलो अशे तीग जाण येतात. भावोजीक बळजबरीन उबारतात आनी घेवन वतात.)

(काळोख)

## देखाव - चार

(धुसर रंगीत उजवाड जाता. भुरग्याच्या रडपाचो आवाज. बायगेर बाब जाला. भितर सावन कांय मानवी आकृत्यो गायत-नाचत येतात. ताणी सर्वसादारण भेसापरस विचित्र भेस केला. लोकांच्या मनांतल्यो दुबावी भावना ते व्यक्त करतात.)

**आडकुलो गो बुडकुलो । तेला तुपाचो**
**बायेगेर बाब जालो । फिरंगी रुपाचो**
**कसो? कसो? कसो?**

**पियांव पुरल्यार । पियांव जाता**
**बटाट रोयल्यार । बटाट जाता**
**भावोजी जर आमचो जाल्यार**
**बायेक कसो फिरंगी जाता?**
**कसो? कसो? कसो?**

**आडकुलो गो बुडकुलो । तेला तुपाचो**
**बायेगेर बाब जाला । फिरंगी रुपाचो**
**कसो? कसो? कसो?**

(गीत सोंपतकूच गीत गावपी आकृत्यो वता मागीर गांवातले कांय जाण मुखार येतात. उलयतात. भावोजी तांगेलें उलोवणें हांगां-थंय दडून चोरून आयकता.)

: तो आमचेभशेन दिसचना.

: आमी आतां इतलीं भुरगीं पळोवंना? तो कोणाच भाशेन दिसना.

: सामको वेगळो!

: गोरो गोरो पीठ!

: सामको फिरंगी!

: सामको म्हणजे शंबर टक्के फिरंगी.

: हांव म्हणटां, ही भानगड कितें?

: कसली भानगड?

: ब्रायगेर हो फिरंगी जालोच कसो?

: बरोबर. भावोजी तुमचे आमचेभाशेन. बाय आमच्या

बायलां-भयणी भाशेन. जाल्यार बाबूच असो कसो?

: हें फिंरग्याचेंच काम. बाय कोणातरी फिरंगी फितूर आसा.

: कशें शक्य आसा? देशांतल्यान ब्रिटीश फिरंगी गेले इकुणीसशें सत्तेचाळीस वर्सा, गोंयांतल्यान पाखले फिरंगी गेले इकुणीसशें एकसश्ट वर्सा.

: कोणूय एखाद्रो चुकून माकून फाटल्यान उरला जाल्यार बायन सुतलायला आसतलो.

: शक्य ना.

: कित्याक शक्य ना?

: बाय खंय घराभायर वचना आनी भावोजी घरजांवय जावन घर राखीत आसता.

: तशें बायलांचें चित्र काडूं नजो आं.

: बरोबर. दादल्यांचो मात फोटो सुद्धां काडूं येता.

: हय. कितलेजाण काडून पेपराचेर घालता, मोबायलाचेर घालता. फेसबुकाचेर घालता.

: म्हणटकूच बायन कितेंतरी बोवाळ केलोच म्हणटा तुमी?

: शंबर टक्के. म्हणजे शंबर टक्के बोवाळ, ताचो शंबर टक्के परीणाम.

: आमच्या भावोजीची मात काकूळट!

: कित्याक काकूळट?

: बायन केली भावोजीक तीन पानां, तरी हांगासर भावोजी बायेक फुलां माळटा!

: वयल्यान पांचखाजीं वांट्टा.

: भावोजीक ही भानगड खबर ना म्हणटा तुमी?

: पयलीं खबर नाशिल्ली असें धरूंया. पूण आतां उक्ताडार आयली काय ना? हो चंद्र आनी हो दशरथ.

: न्हय रे बाबा, हो सूर्य आनी हो जयंद्रथ.

: बरोबर.

: भावोजीक ही भानगड खबर नासुंये. कारण भावोजी सामको साबळो मनीस! ताका कोणेंय फटोवचो.

: बरोबर. बायन फटयलो ना?

: कसो?

: लग्न जाता जाता म्हणलें आनी घरजांवय केलो.

: हरशीं बाय सगळी कामां भावोजीकडल्यान करून घेता. ह्या इतल्यांच कामाखातीर ताका तो फिरंगी कित्याक जाय पडलो?

: (शिटकायत) पूण एक आं. चुकून लेगीत ही गजाल भावोजीक म्हणप ना आं.

: ना, ना तो सामको मोव काळजाचो. पिकांसावान अदीक पिवपाक लागतलो. आतां बोल्सांत क्वार्टर घेवन भोंवता. मागीर सबंद बाटली घेवन भोंवतलो.

: आनी समजा भावोजीकूच दुबाव येवन ताणें आमच्या मदल्या कोणाकय विचाल्लें-

: कितें?

(अकस्मात भावोजी मुखार येवन विचारता)

: म्हगेलो बाब खरेंच फिरंग्याभसेन दिसता रे?

: ना, देवाधर्माचो सोपूत घेवन सांगतां. हो फिरंगी कसो दिसना. सामको खांप्री कसो दिसता!

(सगळे हांसतात. भावोजी तांच्या आंगार धांवून वता. भावोजी अस्वस्थ जाता. बोल्सांतली बाटली काडून घटाघटा पियेता. एकठांय येवन लोक एकामेकाच्या कानांत कितेंतरी फुतफुततात. कितेंतरी थारायतात. लोक ल्हवपीक पावलांनी भावोजीच्या घरावटेन चलपाक लागता. भावोजी दुसरेवटेन भितर वता आनी बायेक बळजबरीन ओडीत भायर घेवन येता. बाय थतर-वितर आनी आबूज जालां. कितें घडटा तें ताका कळूंना. ताका भावोजीचो रागूय आयला. लोक कान दिवन घरांतलें कितें आयकूंक येत हे आशेन रावल्यात.)

बाय : What is this nonsense? You are forcing me? How to dare you to touch me and *bharbharit oding.* My heart is *kalkaling* now!

भावोजी : पयलीं ल्हवू उलय आनी मागीर सारखें उलय.

(बोट दाखोवन) पळय, सगळे आमच्या घराकडेन कशे कान लावन बसल्यात.

बाय : For what? कित्याक?

भावोजी : तुज्या मांयच्या मिद्याक.

बाय : see आं. don't up my mother's name.

भावोजी : तुजे आवयचें नांव वयर काडपाचें सोड. तुवें तुज्या आनी म्हज्या सात पिळग्यांचें नांव सामकें वयर सर्गांत पावयलें.

बाय : What do you mean? तूं कितें म्हणपाक सोदता?

भावोजी : कर्म म्हजें! न्हय, कर्म तुजेंच. हांव फक्त नांवाचो.

बाय : Please, म्हाका सारखे सांग.

भावोजी : तूं म्हाका सारखें सांग.

बाय : What? कितें तें?

भावोजी : तो तुकां खंय सांपडलो? तो... तो...

बाय : What? Who? Who?

भावोजी : तुजेर थू! थू!

बाय : Don't excite. उचांबळीत जावं नाका. तुजीं तापोवणी घेवपाक हांव तुजें चाकोर न्हय. You are my home Son - in - law.

भावोजी : कितें? home - son - in - law? म्हणल्यार कितें?

बाय : म्हणल्यार घरजांवय!

भावोजी : आं! म्हणून म्हजेकडेन असले तरेची फटींगपणां केलीं?

बाय : What type of cheating?

भावोजी : तुवें तुगेर जाला त्या बाबाक सारखो पळयला?

बाय : पळयला म्हणजे? जाल्याक म्हज्याच, म्हज्याच आंगाखांद्यार आसा, On my own body and shoulder.

भावोजी : तो कसो दिसता?

बाय : How looking? Very nice! जसो म्हाका जाय आशिल्लो तस्सो तो जाला. Ditto!

भावोजी : आगो, पूण आमी दोगांय अशीं आनी तोच असो कसो? डिक्टो फिरंगी! युरोपिएन !

बाय : Oh! Shut your mouth. तो तसो गोरोपान जाला म्हण तूं ताचेर दुबाव घेता?

भावोजी : हांव ताचेर दुबाव कित्याक घेतलों, तें नेणार बाळक. हांव दुबाव घेतां तो तुजेर.

बाय : Oh my God! What a dirty man you are! people will put cowdung in your mouth. तूं अशें उलयता म्हणल्यार लोक तुज्या तोंडांत शेण घालतले.

भावोजी : लोक उलोवपाक लागल्यात. हांवें म्हज्या कानांनी आयकलां. पळय थंय घराक ते कान लावन बसल्यात.

बाय : My Goddess! देवी सायबिणी, कसलो हो आळ म्हजेर! Even I am ready to doing fire - examination. Just like *Sita*. अग्नी परीक्षा दिवपाक तयार आसा हांव. (रडत) Your doubting on me is very bad. oh! Mother earth, please take me into your stomach

भावोजी : आसुं. आसुं. खरें म्हणल्यार तुजी प्रार्थना आयकून येन्ना धरणीमांयन तुकां आपल्या पोटांत घेवपाक जाय आसलें. पूण तिचो म्हण गुन्यांव ना. तुजी इंग्लीशींतली प्रार्थना तिका कळपाक नाका? ही कितें फॉरेनची अर्थमदर न्हय. ती आमची मांयभूंय. तिका आमचीच भास कळपाची. सोड. धरणीमांयन तुकां पोटांत घेवं नाका. हांव घेतां.

बाय : Means what?

भावोजी : म्हणजे हांव तुजे अपराध म्हज्या पोटांत घालतां.

बाय : पूण पोटांत घालपाक I not made any single mistake.

भावोजी : ओके बाबा. मानूंया तुजो कसलोच गुन्यांव ना.

बाय : ना म्हणल्यार really ना. Swear of my life.

भावोजी : बरें आसा. हांवच मारतें घेतां I am withdrawing my allegation. पळय, आतां म्हाकाय तुजी red english येवपाक लागली.

बाय : How nice you are.

भावोजी : पुरो, मुखार आनीक डार्लींगबी म्हणून नाका, नातर हांव घुंवळ येवन पडटलों.

बाय : आमी बाबाचो Sixth day ceremony उमेदीन मनोवंया.

भावोजी : Sixth day ceremony? हो आनी कसलो नवोच समारंभ?

बाय : That is our old tradition no? Goddess *satti* coming that day and writing on the forehead of baby, that is future of the baby.

भावोजी : आं, आं, सटी. सवो दीस! त्या दिसा सटी देवता येवन भुरग्याच्या कपलाचेर तागेलें भविश्य बरयता. इतली सरळ वाट आसतना अशें म्हापशेंच्यान गोंय कित्याक लागीं करता तूं? तुगेले सटयेक दीस आसात. ती बरेतरेन फुलोंवया. ताचे पयली ह्या अरीश्टाचें निवारण करूंया.

बाय : कसलें अरीश्ट?

भावोजी : ह्या लोकांक कटोवपाचें. आमचेमदीं कसलें वितुश्ट उप्रासुंना, अशें तांकां दिसपाक जाय. हांव सांगतां तशें कर.

बाय : Ok, I am ready. According to your wish, I am putting my steps.
(दोगांय एकामेकाच्या खांदार हात घालतात आनी घरावटेन वतात. लोक पाठलाग करतात. ल्हवू ल्हवू काळोख)

## देखाव – पांच

(धुसर रंगीत उजवाड जाता. रातिचे मध्यानीचो वेळ. पयसुल्यान सटये दिसाचें वाजप आयकूंक येता. थोड्या वेळान सटीदेवी गीताच्या तालार गायत – नाचत येता. भरजरी णववारी कापड – पोलको, कमरपट्टो, माथ्याक मुकूट असो भेस. आंगा–खांदार सवायशीण बायलेचे अळंकार घातल्यात. उजव्या हातांत एक व्हड लेखणी आनी दाव्या हातांत तशीच व्हड शायेची बाटली घेवन येता. लोकनाट्य जागरांतल्या बायलेच्या संवगाभशेन संवंग.)

**हांव सटव्या दिसाची सटी गे**
**हांव बरयतां कपल–पाटी!**

**दितां कोणांक बुद्दी थिटी गे**
**दितां कोणांक बुद्दी मोटी!**

**दितां कोणांक धनाची पेटी गे**
**दितां कोणांक सादी रोटी!**

**हांव घडोवन हाडटां भेटी गे**
**हांव मारतां लग्नाच्यो गांठी!**

**म्हाजें भविश्य जायना फटी गे**
**म्हाजी म्हैमा कितली मोटी!**

(सटीदेवी नाचून भितर वता. थोड्या वेळान भितरसावन भावोजी भायर येता. तो बरोच तर्र जाला.)

**भावोजी** : बाबाची सटी बरेभाशेन, बायचे भाशेन सांगपाचें जाल्यार फस्कक्लास जाली. पिवपाक तरातरांचो सोरो! हुर्राक, फेणी, तातूंत काजूची, माडाची, सगळे तरेचो गांवठी माल. लोकल ड्रींक्स. त्याभायर फॉरेन ड्रींक्स, व्हिस्की, ब्रेंडी, रम, रशियन होडका. जाय ताणें जाय तें आनी जाय तितलें पिवपाचें! खावपाच्या जिनसांचें विचारपाकच नाका. म्हणजे विचाल्ल्यार जाता पूण ताचेआदीं हांवूच सांगतां. सटी म्हणटकूच शिवराकाक बाय बाय. सगळ्यांक कंपलसरी मांसाहारी. नॉन-व्हेज! नुस्त्याचे जिनस कितलेशेच! सुकें, तळिल्लें, भाजिल्लें, उकडिल्लें. नुस्तें सुद्दां कसलें? वेल्ल्यो धरून विस्वणामेरेन. आनी चिकन - मटण. पिवपी पियेत रावले, तेवटेन खावपी खायत रावले. वाड्यावयल्या सगळ्यांक सांगिल्लें. सगळे आयिल्ले. चुकून जांकां सांगूंक पावलेना, तेवूय आयिल्ले. सटी! Sixth day ceremony! आतांच सोंपला. बायक आतांच दोळो लागला. दोळो लागला म्हणल्यार मदींच सपनेता. हांव आजून जागो. न्हिदल्यार पिवपाक खंय मेळटा? हरशीं पिवप म्हटल्यार लिमिटेड. आयज अनलिमिटेड. सटीदेवी आयज तृप्त जाल्या आसतली. पंळोवया बाबाच्या कपलांत कितें बरयता तें. 'बापायक पोसचें पडटलें' अशें बरयल्यार पुरो. मागीर म्हजी चिंता मिटली.

(भितर सावन 'ए ऽऽ ए ऽऽ' असो बायचो आवाज.)

**भावोजी** : (प्रेक्षकांक) तुमचेमदली कोणतरी आपणाल्या घोवाक उलो मारता. कोणांक तरी घोवाक नांवान उलो मारपाक लज दिसता, वो कोणतरी आपणाल्या घोवाचें नांव विसल्ल्या. तीं अशींच ए ऽऽ एऽऽ करून घोवांक उलो मारतात.

(परत 'ए ऽऽ एऽऽ' अशे घरांतल्यान बायचे उले.)

भावोजी : आरे, हो आवाज तर आमच्या बायचो! सेर्त परत सपनेलां आसतलें.

(थोड्या वेळान घरांतल्यान धडपडत बाय भायर येता. ताच्या हातांत बाब आसा. म्हणल्यार बावलो.)

बाय : कितलो वेळ तुकां सादयतां. Calling and calling.

भावोजी : कितें जालें?

बाय : Surprise ! Miracle!

भावोजी : सांग, कसलें सरप्रायज! कसलो चमत्कार? आनी तें सांगपाक ह्या बाबाक कित्याक भायर हाडूंक जाय आसलो? वयल्यान आयज सटयेचो दीस. ती सटीदेवी येवपाची आसल्यार थंय तिश्टत उरतली.

बाय : Goddess *satti* येवन गेली.

भावोजी : येवन गेली?

बाय : हय, हावें म्हज्या दोळ्यांनी पळयली. Swear.

भावोजी : सपन आसतलें. मर्दी मर्दी तूं सपनेतालें.

बाय : No, No dream. In reality. खऱ्यांनीच. चल. सगळ्या लोकांक आपय. Hurry up. I want to show everybody a surprise! Miracle, संवसारांतलें अजाप!

भावोजी : पूण कसलें अजाप? तूं सांगता त्या प्रमाण सटी देवी तर येवन गेली. आतां आनीक कसलें अजाप?

बाय : पयलीं Call the people, then I will show. Faint come and you will fell down.

भावोजी : हांव घुंवळ येवन पडटलों म्हणटा? तशें जाल्यार म्हाका घुंवळ येवचेआदीं सगळ्यांक आपयतां.

(हेवटेन तेवटेन वचून उलो मारता.)

भावोजी : ए विठ्ठला, आरे पांडुरंगा, एऽऽ विष्णूऽऽ, शंकरा रेऽऽ

बाय : Why you are calling God?

भावोजी : Calling God? देवांक आपयतां? आगो, आमच्या शेजाऱ्यांची नांवां हींच न्हय?

बाय : Oh, Yes, they have God's name.
(कांय वेळान विठ्ठल, पांडुरंग, विष्णू आनी शंकर अशे चौगजाण दोनांय वाटांतल्यान लकत लकत येतात.)

विठ्ठल : भावोजी, कितें जालां रे?

पांडुरंग : कित्याक उलो माल्लो?

विष्णू : निकतीच न्हीद लागिल्ली.

शंकर : कितले भियेले आमी. परत आनी कित्याक पियेवपाक आपयल्यात? आतां आनी मातशान सकाळ जावन च्या पिवपाचो वेळ जालो मरे.

भावोजी : आरे बाबा, तुमकां पिवपाक आपोवं ना.

शंकर : पियेवपाक आपोवं ना? बरें आसा, कित्याक आपयल्या?

भावोजी : आनी हांवेंय आपोवं ना.

विठ्ठल : तुवें आपोवं ना? अशें कशें? आवाज तुजो मरे. म्हजे बायलेन लेगीत म्हणलें, बायेचो घोव बोब मारता.

भावोजी : आरे, हांवूच उलो मारतालों. पूण म्हजेखातीर न्हय, तर बायेखातीर. बायन सांगलें, तुमकां आपोवपाक. देखून तुमकां इतले रातचे उठयले.

पांडुरंग : अशें! ह्या बायक म्हण दीसरात कांय लागना.

विष्णू : हय, केन्नाच्या केन्नाय शेजाऱ्यांक आपोवन हाडटा.

भावोजी : आरे, बाय हांगाच आसा. ताचे अस्वडीं उलयिल्ले भाशेन कितें उलयतात?

शंकर : आरे, हय. भानूच उरलेंना. न्हिदेंत आसा न्हय.

विठ्ठल : सांग बाय. सांग.

बाय : See my baby's forehead म्हज्या बाबाचे कपल पळयात.

विठ्ठल : पळोवया!

पांडुरंग : आरे, वक्ल हाडपाक विसल्लों.

बाय : No need of glass. Its very clear. you can read straight away.

शंकर : बाय, त्यापरस तूंच आमकां वाचून कित्याक दाखयना?

बाय : It is A B C D E F G H I J K...

शंकर : म्हणजे इंग्लेज भाशेंतली मुळक्षरां.

बाय : Yes. English alphabets. Total twentysix.

भावोजी : हें तुकां ताच्या कपलार आयच्याच दिसा बरोवपाक जाय आसलें?

बाय : It is not written by me. Its written by Godess *Satti*.

शंकर : Goddess *Satti*? सटीदेवीन बरयलां?

भावोजी : बाय सांगता म्हणटकच खरें आसा, अशें जालें ना?
(विठ्ठल, पांडुरंग, विष्णू आनी शंकर मातशे कडेक सरतात. चौगूय जाण आपलेमदीं उलयतात.)

विठ्ठल : म्हाका सांगात, हें प्रकरण कितें?

पांडुरंग : सटीदेवी सटयेदिसा कपलार बरयता म्हणटा तें हांवेंय आयकलां, पूण हें अशें? पाटयेर बरयता तशें कपलाच्या वयर?

विष्णू : आनी अक्षरां इंग्लीश कशीं?

विठ्ठल : तीच भानगड म्हणटां हांव.

विष्णू : हरशी आमच्या कपलारबी बरयता तें देवनागरींत ? अ आ इ ई?

विठ्ठल : खबर ना.

पांडुरंग : म्हणजे जाचे-ताचे भाशेंतल्यान सटीदेवी बरयता आसतली.

विष्णू : म्हणजे सटीदेवीक बऱ्योच भासो येवपाक जाय.

शंकर : पूण हे अजाप खरें! म्हणजे पयलेच खेप सटीदेवीन सगळ्यांक वाचूंक येता अशेतरेन स्पश्ट बरयलां.

बाय : That means... my baby will be most modern Englishman.

(ते चौगूयजाण बायलागीं येतात.)

भावोजी : (आपले भितर) पडलें पाड! बाब आतां खऱ्यांनीच इंग्लीशमेन जातलो? परत तो दुबावाचो किडो मेंदूंत वळवळपाक लागलो. (देवाक परार्थिता...) विठ्ठला... पांडुरंगा... विष्णू.. शंकरा...

(चौगूयजाण भावोजी म्हऱ्यांत येतात.)

भावोजी : तुमकां न्हय रे बाबांनो. खऱ्या देवांक होरायतां हांव.

विठ्ठल : बाय, चल अखेरेक तुकां जाय तशें तुज्या मनासारके जालें. तूं जिखलें! आतां तुज्या भुरग्याच्या कपलांत बरयलां तशें घडटलें. रात थोडी उरल्या. एक न्हीद काडटां.

बाय : (अपुरबायेन) Oh ! My baba wise, my baba stone.

(बाय बाबाक घेवन भितर वता.)

भावोजी : (चोगांकूय समजायत) म्हजो बाबा शाणो, म्हजो बाबा गुणो!

(चौगूय जाण लकत लकत आयिल्ले तेवटेन वतात. भावोजी बायच्या फाटल्यान वता.)

(काळोख)

## देखाव – स

(रोखडोच उजवाड जाता. भितरसावन बाबाच्या रडपाचो आवाज. बाय भावोजीक फर्मायता. 'एऽऽ हाका मातसो व्हर.' कांय वेळान भावोजी बाबाक खेळयत भायर येता.)

भावोजी : आरे म्हज्या शाण्या, आतां रडप ना.
(ताका खेळयत ललय गायता.)

**आगे आगे घुगी । आमाड्यार उबी**
**रडटल्या भुरग्याक । थांबय बेगी**

**वगी बाये वगी । भायल्यान आयला जोगी**
**रडटल्या भुरग्याक । कर गो वगी**

**नागडो बेताळो । शेतां वयतालो**
**शेतकाराचें मूत पिवन । घरा येतालो.**

(बाय सडसडीत भायर येता. घोवाचेर तापता.)

बाय : हें तुवें कितें चलयलां? What is going on?

भावोजी : कितें चलयलां म्हणजे? बाबाक खेळयतां.

बाय : खेळयता ते बरें आसा. Good. पूण ताचेखातीर म्हणटा तें कितें?

भावोजी : कितें म्हणटा म्हणजे ? ललय!

बाय : खबर आसा म्हाका Lullaby.

भावोजी : म्हजी आवय म्हजेखातीर म्हणटाली. तुजेय आवयन तुजेखातीर म्हणल्या आसतल्यो ललयो.

बाय : That is past. जालें तें जालें. आतां बाबाखातीर अशे चलचें ना. We have to sing new lullaby for our baba.

भावोजी : नव्यो ललयो?

बाय : Yes! and its in English.

भावोजी : पूण इंग्लीशींत ललयो कश्यो म्हणप?

बाय : Very easy. Sing your konkani lullaby first.

भावोजी : कोंकणी ललय म्हणू? (याद करून) काय बरो गायतालो हांव! तुवें सगळो गोंदळ केलो. आतां ललय खंयची आनी फुगडी खंयची तेंच कळना जालां.

बाय : Sing no, Sing.

भावोजी : करतां, Sing करतां. पयलीं memoring करतां.
(याद करून ललय गावपाक लागता.)

भावोजी : **हेवटेन धांव रे । तेवटेन धांव रे तेंडलेच्या बेला ऽऽ**
(बाय तेच चालीर म्हणटा)

बाय : **Run this way | Run that way Creeper of *Tendlya* ऽऽ**

भावोजी : **आमच्या बायगेर । बाबू जाला । धांव रे बाबा तेला ऽऽ**

बाय : **Our *bai* gave | Birth to *baba* |**
**Run *Baba* re for Oil ऽऽ**

भावोजी : **तेल हाडलें । दिवलेंत घातलें । उजवाड पडलो चल्याऽऽ**

बाय : **Brought the Oil | put in the lamp | Glow on**

face, Son ऽऽ

भावोजी : त्या चल्याचो । बापूय ना घरा।
रायाक मेळूंक गेला।

बाय : that son's father | not at home |
Went to meet king |

भावोजी : रायान ताका । शेलो दिलो। झिगी मिगी जालो ऽऽ

बाय : King offered him shawl |
glitter glitter happen ऽऽ

भावोजी : उसोवन पळयल्यार । भितर आसा। भांगराचो तुरो

बाय : When it was opened |
it had golden bouquet !

(ललय गायताना भावोजी आनी बाय बाबूक आदलून बदलून खेळयता. भावोजी मूळ ललय गायता तेन्ना भुरग्याच्या हांसपा - खिदळपाचो आवाज जाल्यार बाय ललयचो इंग्लीश तर्जूमो गायताना भुरग्याच्या रडपाचो आवाज. दोगांयच्या तें लक्षांत येता. निमाणेकडेन बाय पिकार जाता.)

भावोजी : फरक पळयलो तुवें? हांव ललय म्हणटां तेन्ना बाबा हांसतालो--खेळटालो आनी तुवें म्हणपाक लागतकच हुंडक्यांनी रडटालो. चल, आतां ताका दुदाक धर मागीर सूस्त न्हिदतलो.

बाय : दुदाक धरपाची कांय गरज ना. भायर बरें बरें लातांचें दूद आयलां. आनी न्हिदपाखातीर म्हणशी जाल्यार बिअरीचे चार थेंब घालतां तोंडांत मागीर सूस्त बरो न्हिदतलो!

भावोजी : सायबिणी, ताका येन्नाच पिवपाक शिकयता?

बाय : येन्नाच शिकयल्यार बरें न्हय? मागीर तुकां Company दिवपाक! (रागान बाबाक घेवन भितर वता. भावोजी खिणभर खजील जाता. मागीर मुखार येवन प्रेक्षकांकडेन

संवयेप्रमाण संवाद करता.)

भावोजी : बायची तकली आनी गोंयच्या राजकरण्यांची तकली सारखी. प्राथमिक शिक्षणाच्या माध्यमाचे बाबतींत आमच्या राजकारण्यांचें मत कितें? के. जी. क भुरग्यांक इंग्लीशींतल्यान शिकयता. मागीर पांचवी ते मॅट्रीक मेरेन परत इंग्लीश माध्यम. मुखार मॅट्रीक ते बी. ए. आनी एम. ए. मेरेन इंग्लीश माध्यम जाल्यार फक्त पयली ते चवथी मेरेनूच कोंकणी वो मराठी कित्याक? थंयूय इंग्लीश करून वडोवपाचें. आमच्या बायचेंय म्हणणें तशेंच – गोंयचे भुरगे अठराव्या वर्सा बिअर पियेंवक शिकता. मागीर फुडें व्हड जाता, तशे तशे व्हिस्की, ब्रँडी, जीन, होडका पियेतात. जाल्यार ल्हान आसतानाच तांकां दूद कित्याक? घाल बिअर! (मागीर विशय बदलून. कुरवेनच 'लायट ऑफ, लायट ऑन' अशे इशारे करता. त्याप्रमाण खिणभर काळोख जावन खिणांत उजवाड जाता.)

## देखाव – सात

भावोजी : दिशींमाशीं बाबा वाडत रावलो. तो वाडटा तसो एक एक प्रश्न वाडत रावलो. प्रश्न लेगीत तरातरांचे. बाबाक आंगावयले दूद दिवपाचें काय डब्याचें? सगळे वैज आनी भुरग्यांचे जाणकार सांगता, भुरग्याक आवयचें दूद गरजेचें. तें पुश्टीक आनी वखदी लेगीत पूण बाय आयकुपाक नाका? खंयतरी सुदारिल्ल्या भायल्या देशांत खंय आवय भुरग्याक दूद दिना. मागीर खंय आवयूय सारखी उरता आनी भुरगेंय बरें

जाता. जालां अशें - बायक आमचें ते सगळे भश्टें दिसता. कवी बाकीबाब म्हणटा त्याप्रमाण-

**आप जंयच्या सगलें भश्टें। वंद्य परक्यालेंच उश्टें**

तशी गत जाल्या आमच्या बायची. आतां कालचीच गजाल. (लायट बंद करून परतून चालू करपाचो इशारो त्याप्रमाण खिणभर काळोख जाता आनी खिणांत परत उजवाड.) तर कालची गजाल. बाबाक कसलें नांव दवरचें हाचेर मोटो वाद. वाद कसलो? वादविवाद! मोटो बोवाळ आमगेर. बोवाळ म्हणटकूच शेजाऱ्यांक आयतेंच आपोवणें.

(सडसडीत बाय भायर येता.)

हांव भुरग्यांची आवय. Mother. भुरग्याचेर पयलो हक म्हजो. देखून ताका नांव दवरपाचो First right is mine, understand?

**भावोजी** : बरें. तूं भुरग्याची आवय. बरोबर. णव म्हयने तुकां सगळ्या लोकांनी भुरग्याची आवय म्हण पळयलां. पूण एक सांग हें भुरगें खंयच्यान आयलें?

**बाय** : खंयच्यान आयलें म्हणजे? What a stupid question!

**भावोजी** : आगो बाय, खंयच्यान आयलें म्हणल्यार तांचो बापूय कोण? (कडेक सरून - लोकांक उद्देशून) देवा म्हज्या! कोणाचें नांव सांगतलें काय हें?

**बाय** : भुरग्याचो बापूय? Father of the child? of course, none other than you. तूं.

**भावोजी** : (खोशयेन) वा! म्हणटकूच भुरग्याचेर बापायचोच अधिकार आसा. अशें जालें ना?

**बाय** : That is right. पूण आवय म्हणून First right म्हजो.

**भावोजी** : पयलीं बापूय काय पयलीं आवय?

**बाय** : आवय - Mother.

**भावोजी** : (गोंदळटा) पयली कोंबी काय पयलीं तांती? तांतयांबगर

कोंबी कशी जातली? कोंबयेबगर तांती कशें जातलें? (ल्हवूच कुशीक वचून सोऱ्याची बाटली तोंडाक लायता. बाय पळयता.)

बाय : Every time, again and again I am telling you that don't drink infront of me.

भावोजी : तुज्यामुखार जांव, पूण तुकां फाट करून पिलां मगो हांव. आनी तुजेकडेन वाद घालपाक बसप म्हणजे म्हाका असो आडेचो फोर्स जायच प्डटा.

बाय : Come to the point.

भावोजी : तर पॉयंट असो. भुरग्याचेर दोगांयचो समसमान अधिकार आसा. मान्य?

बाय : (नाईलाजान) O. K.

भावोजी : तशें जाल्यार दोगांय एकमेकाचे संमतीन बाबाचें नांव थारावया.

बाय : Walking – चलता.

भावोजी : आतां कशें जालें. संवसारांतले व्हडांतले व्हड प्रश्न अशेच सुटावे जाल्यात. चल, भुरग्याची आवय तूं न्हय, पयलें नांव सुचोवपाची संद तुकां.

बाय : Yes, Thank you (सुचयत) Babush.

भावोजी : (हेवटन तेवटेन पळयत) बाबुश ? ह्या वेळार तो आनीक हांगासर कित्याक?

बाय : Babush. हरशीं आमी भुरग्याक लत्तुबायेन बाबा म्हणटाच. ताचेंच बाबुश करप. easy and simple.

भावोजी : नाका. तो मागीर शिक्षणमंत्रीबी जालो जाल्यार गोंयच्या शिक्षणाचे बुर्राफेस्त करतलो. त्यापरस हांव तुकां – म्हणजे बाबाखातीर बरें नांव सुचयतां. दिगंबर.

बाय : What is the meaning of *Digambar?*

भावोजी : तें मात विचारूं नाका.

बाय : No! very old name and there is no future to this name.

भावोजी : दिगंबराक फुडार ना म्हणटा? खरें आसूं येता. Listen my name. *Micky.*

भावोजी : ना, ना. तसली मिकी- मावस जनावरांची, मोनजातीची नांवां नाका. हांव सांगतां – शांताराम ! बरें नांव! पार्लमेंटांत कोंकणी – गोंयांत इंग्लीश.

बाय : No. too long.

भावोजी : आतां हांव सुचयतां. सुभाष.

बाय : No. त्यापरस महादेव बरें.

भावोजी : दवरूंया.

बाय : नाका, नाका. Its also very old. (सुचयत) चर्चिल.

भावोजी : चर्चिल? तुकां पिशे लागलां? हे नांव आमच्याच न्हय, कोणाल्याच भुरग्याक दवरूंक फावना. घरांतूच राजकारण सुरू जातलें. तुका आदींच सांगतां, जशें चर्चिल नाका तशें ज्योकिम, माविन्य, आग्नेल, फिलीप, जुजे, आलेक्स हिंवूय नाका.

बाय : If I see Inside, पळयिल्ल्या भितर म्हाका दिसता, म्हज्या सगळ्या नांवांक तूं अपोज करता. बिकॉज म्हजीं सगळीं नांवां लॅटीन – युरोपियन कशीं तुकां दिसता? हीं नांवां कितें हावें तोमाजिन्या कडल्यान हाडल्यां म्हण समजला तूं?

भावोजी : आनी तूं म्हज्या नांवांक विरोध करता तें कितें हांवें सगळीं नांवां आर एस एसच्या वेलिंगकारा कडल्यान हाडल्यां म्हण समजलां तूं?

बाय : वाद नाका. Go ahead.

भावोजी : (सुचयत) विश्वजित हे एक आघाडेचें नांव आसा.

बाय : त्यापरस बाबाच बरें. विश्वजितय नाका आनी प्रतापूय नाका.

भावोजी : बरोबर. लोकांनी तांचे प्रताप पळयल्या.

बाय : आतां तूंच Suggest कर, I will select it.

भावोजी : ह्या नांवांक तुजी हरकत आसची ना. मनोहर!

बाय : ना खरी. पूण हें नांव आतां घराघरांत पावतलें. एक दीस तें कॉमन जातलें. ऋत्वीकाभशेन.

भावोजी : बरे सुदीन, दीपक ही नांवां बरीं आसात. सुदीन म्हणल्यार बरो दीस आनी दीपक म्हणल्यार दिवो!

बाय : ही दोनूय नांवां भरवंशाची न्हय. Not reliable.

भावोजी : इतली तकलीफोड करून हांव तुकां नांवां सांगतां आनी तुकां तातूंतलें एकूय नांव पसंत पडना. आतां तोंडाक येता तीं सांगता. पळय खंयचें पसंत पडटा तें.

बाय : Yes, tell which is coming in the mouth.

भावोजी : श्याम, लक्ष्मीकांत, विजय, श्रीपाद, पांडुरंग, दयानंद, दामोदर, साईश, अनिल, अनंत, दिलिप, मिलिंद, राजेश, रमेश, वासुदेव. (खरस लागता.) सांग.

बाय : (चिंतून) साईश! (वचपाक लागता.)

भावोजी : जांव! इतल्या नांवांमदलें साईश नांव वेंचून काडलें. बायक देवाचें खूब ! देखून हे नांव बायक आवडलें. साईश!

बाय : (वळून) त्याखातीर न्हय. साईश नांवांत निमाणकडेन इंग्लीश आसा. इंग्लीश–साईश. देखून.

(बाय सडसडीत भितर वता. भावोजी कपलार हात मारता. भावोजी हेवटेन तेवटेन एक दोन पासयो मारता. तेसरशीं खिणभर काळोख जावन खिणांत उजवाड जाता.)

## देखाव – आठ

**भावोजी** : तसो बाबाच्या नांवाचो वाद बरेतरेन सुटलो. साईश नांव खऱ्यांनीच बरें. बायक तातूंत इंग्लीश दिसूं पूण साईश म्हणल्यार ईश्वर साई असो ताचो अर्थ जाता. तसो हांव साईभक्तबी न्हय. हांव फक्त (तोंडाकडेन बोट व्हरून) हाचो भक्त आनी शेक्सपियरान काय कोणेंतरी म्हणलां न्हय! नांवांत कितें आसा? नांव सोनूबाई आनी हाती कथलाचा वाळा! नांव सुवर्णा आनी गळ्यांत पिड्डुकांचो मणी! आमी आवय–बापायांनी तकलीफोड करून नांवां बेस्टींच दवरपाचीं. मागीर भुरग्यांची लक्षणां पळोवन लोकूच नांवां दवरतात आनीःतींच खरीं नांवां.

तर बाबाच्या नांवाचो वाद सोपेपणी सुटलो. पूण मागीर बाबाक जेन्ना शाळेंत घालपाचो प्रश्न आयलो, तेन्ना जे उबें रावलें ते सादें संकश्ट न्हय. धर्मसंकश्ट! हरशी म्हण आमच्या देशांत खंयच्याय प्रश्नापरस भाशाप्रश्न सगळ्यांत घुस्पागोंदळाचो. अर्थांत हो गोंदळ भायलो न्हय, भितरलो. हय तकलेंतलो गोंदळ! तुमी युनेस्कोचो भुरग्यांच्या शिक्षणासंबंदीचो रिपोर्ट वाचला? वाचूंना? हांवें तरी खंय वाचला? असोच कोणतरी उलयताना आयकलां. युनेस्को रिपोर्ट सांगता, भारतांत खंय शिक्षणाचे माध्यम हो प्रतिश्टेचो विशय! म्हणजे बायचे भाशेन प्रेस्टीज इश्यू! फॉरेन कपडे

घालप, प्रेस्टीज इश्यू! फॉरेन वस्तू वापरप, प्रेस्टीज इश्यू! तशें फॉरेन भाशेंतल्यान शिकप, प्रेस्टीज इश्यू! भुरग्याक कितेंय दिसूं, आवय बापायचे प्रेस्टीजीक सोबलें म्हणजे जालें. आतां आमचेंच पळयात न्हय.

बाय : (सडसडीत येता) फाल्यां स्कुलांत बाबाचें एडमिशन.

भावोजी : कोण बाबा?

बाय : (रागान) Your father

भावोजी : म्हज्या बापायचे एडमिशन वयर केन्ना जालें.

बाय : *Baba* our *saish.*

भावोजी : खंयच्च्या माध्यमाचे शाळेंत?

बाय : In English Medium school.

भावोजी : कोंकणीत कित्याक ना? सगळ्या संवसारांत भुरग्याचें मुळावें शिकप ताचे मायभाशेंतल्यान जाता.

बाय : Correct. *Baba's* Mothertongue is English.

भावोजी : कशी?

बाय : बाबाची आवय कोण?

भावोजी : तुजेशिवाय दुसरी कोण आसा?

बाय : हांव बाबाची आवय. I am talking in English, that's why *Baba's* Mother tongue is English.

भावोजी : अब्बा ! बाबाचे बायेची आवयभास इंग्लेज खंय! आवयभास म्हणजे फक्त आवय उलयता ती भास न्हय. समज, आवय मोनी जाल्यार मागीर आवयभास कसली? (हावभाव करून) आवयभास म्हणल्यार आवयचे भोंवतणची भास. त्या भौशीक वाठाराची भास. नुस्त्याच्च्या बाजाराची भास, भाजीमार्केटांत उलयता ती भास, तिठ्यावयली, नळावयली, बांयचेकडली भास. भौशीक उत्सवांतली भास, भौशीक गणपती उत्सवाच्च्या माटवांतली भास, शिगम्याच्च्या गांडावयली, धालांच्च्या मांडावयली भास.

**बाय** : आवंय! हे भाशेन शिकपाचें? शिकपाखातीर काय बरी इंग्लीश!

**भावोजी** : तूं उलयता ती तांबडी इंग्लीश फक्त हांगा आनी म्हजेमुखार म्हण चलता. थंय इंग्लंड अमेरीकेक गेल्यार तुकां धांवडावन घालतले. आनी म्हाका एक सांग, तुजी आवयभास इंग्लीश आसपाक तुजी आवय इंग्लंडाक गेल्ली काय तुजो बापूय फिरंगी आशिल्लो?

**बाय** : see, I warning you. म्हजो आवय-बापूय वयर काडूं नाका.

**भावोजी** : तुज्या आवय-बापायक काशांवांत घालून पुरिल्लीं जाल्यार जरूर वयर काडटलों आसलों. पूण तांकां पुरूंना. अग्नी-संस्कार करून लासल्यांत.

**बाय** : It is too much. In these days you are speaking plenty. देमायज उलयता. ह्या दिसांनी भायर वेता. त्या कोणा कोणाची भाशणां आयकता, आनी तींच म्हजेमुखार म्हणून दाखयता.

**भावोजी** : हांव ते तरी करतां. तूं तो फक्त एक इंग्लेज पेपर घेवन सकाळ - सांज वाचता. त्या पेपराक लागून तुजी इंग्लेज भास पेड्ड्यार जाल्या.

**बाय** : इंग्लीश सादी भास न्हय. Its global language. ती ह्या पोंताक उलयल्यार त्या पोंताक समजता. तुजी कोंकणी, मराठी, हिंदी खंय पावता?

**भावोजी** : फटास! सामकी सुरय फटास! इंग्लीश सगळ्या संवसाराची भास न्हय. ती फक्त इंग्लंड, अमेरीका, ऑस्ट्रेलिया इतल्याच देशांतली भास. रशीया, चीन, जपान, जर्मनी हांची भास इंग्लिश न्हय. दर एकल्या देशाची आपली आपली भास आसा आनी ते भाशेंत तांचे मुळावें आनी कॉलेज थरावयलें पासून शिक्षण चलता. इंग्लीश उलयल्यार सगळ्यांक कळटा

म्हणटा तें फट. इंग्लीश संवसारांतल्या फकत साडेपांच टक्के लोकांकूच कळटा. सगळ्यांत चड लोक चीनांत मेंड्रीयन भास उलयतात. दुसरो नंबर युरोपांतले स्पेनीश भाशेचो आनी तिसरो नंबर हिंदीचो. इंग्लीशीचो नंबर चवथो. आमचे हिंदी फाटल्यान. आतां उलय.

बाय : पूण तूं एक मतिंत दवर, इंग्लीशी फाटल्यान सगळ्या लोकांचो 'फोर्स' आसा.

भावोजी : पूण तो फोर्स पोको आसा. ताका कसलीच बुन्याद ना.

बाय : English is language of stomach. इंग्लीश ही पोटाची भास.

भावोजी : पोट कितें मनशाकूच आसा? किडी मुयांक लेगीत पोट आसता. इंग्लीशीबगर तीं कशें पोट भरतात तर? आनी पोट तुमकां गोंयकाराकूच आसा? कन्नडिगांक पोट ना? मद्राशाक पोट ना? तमिळवाल्याक पोट ना? ते इंग्लीशीबगर गोंयांतूच पोट भरता.

बाय : तूं कितें सांगता तें म्हाका कळटा. पूण I am not ready to accept it.

भावोजी : कित्याक?

बाय : I don't know.

भावोजी : म्हणटकच बाबाक खंयचे शाळेंत घालपाचो?

बाय : English. (बाय पांय आदळीत वता.)

भावोजी : म्हणटकच इतलें सांगून उमथ्या कळशार उदक! हांचे मेंदूच रिते! अर्थांत अशे चिंतपी आमचें एकूच बाय ना. शेंकड्यांनी आसतलीं. तांकां कोणे आनी कशें समजावपाचें? बाय आपणालें उतर खरें करपी. एक वेळ उदेंतेचो सूर्य अस्तमतेक उदेत पूण बाय एकदां दाढेक धरिल्लें केन्ना सोडपी न्हय. लग्नाचे बाबतींतूय तशेंच. एकदां म्हजेकडेन लग्न जावपाचें थारायलें – जालें! एकदां म्हाका घरजांवय करपाचो थारायलो–जालो! (खिणभर काळोख जाता, परत उजवाड.)

## देखाव – णव

(भावोजी थंयच आसा. भितरल्यान कवायती वेळार वाजता ती 'लेफ्ट – रायट'ची धून वाजता आनी आवाज. ते धुनीच्या तालार पांच – स वर्सांचो एक भुरगो चलता. होच बाबा – साईश. गणभेस. फाटीर व्हडलें दफ्तर. तातूंत टिफीन, उदकाची बाटली. तो शिस्तीन चलता. ताचे फाटल्यान ताची आवय – बाय त्याच तालार पावलां मारता. तांकां दोगांयकूय लक्तुबायेन पळोवपा खातीर कांय लोक तांच्या फाटल्यान चलतात. तेवूय त्याच तालार पावलां वडयतात. भावोजी तांची करामत पळयता.)

**लेफ्ट रायट् । लेफ्ट रायट**
**डे एन्ड नायट । घरांत फायट**

**डॅडी रॉंग । मम्मा रायट**
**कपेलाकडेन । बायें मूड**
**लेफ्ट रायट । लेफ्ट रायट**

**मळबांत कायट । शेंपडी तायट**
**धरूं नाका वायट । टेक इट् लायट्**
**देवळाकडेन दायें मूड ।**
**लेफ्ट रायट । लेफ्ट रायट**

(कवायतींतलीं उतरां भावोजीक लेखून म्हणिल्लेभाशेन. कवायत माचयेर एक दोन भोंवताडे मारून भितर वता. भावोजी खंती जावन थंयच उबो आसा. इतल्यान एका

चॅनलचो कॅमरामन आनी एक ऍंकर थंय येवन भावोजीक हटकिता.)

**ऍंकर** : बायट. ह्या विशयाचेर तुमची एक बायट जाय.

**भावोजी** : म्हजी मुलाखत?

**ऍंकर** : हय ल्हानशी प्रतिक्रिया.

**भावोजी** : खंयच्या विशयाचेर?

**ऍंकर** : ह्याच, जो भायर आनी तुमच्या घरांत चल्ला तोच विशय.
(ऍंकर मायक ताचेमुखार धरता. कॅमरामन शूटींग करता.)

**भावोजी** : खरें म्हणल्यार, हो विशय जरी म्हजो आसलो तरी ह्या विशयाचेर उलोवपाचो अधिकार म्हाका ना.

**ऍंकर** : पूण सरकार सांगता, भुरग्यांचे शिक्षण थारावपाचो अधिकार आवय-बापायचो. आपणाल्या भुरग्यांचो फुडार थारावपाचो तांकांच चड अधिकार.

**भावोजी** : ना, अशें कोण म्हणटा तो व्हडली, मळबायेदी चूक करता. पिडेस्ताक पिडेप्रमाण वखद-विर्सद करपाचें काम दोतोर करता. इमारत कशी बांदची ते आर्किटेक्ट आनी इंजिनियर थारायता. दर एके गजालीचें एक शास्त्र आसा आनी त्या शास्त्रांतले जाणकार आसात. भुरग्यांच्या मनाचेंय एक शास्त्र आसा. बालमानसशास्त्र. त्या शास्त्राच्या जाणकारांच्या मताप्रमाण वचपाचें. इलेसांवांतल्या मतांप्रमाण न्हय. आमी सगळ्याचेंच राजकारण करपाक सोदतात.

**ऍंकर** : तुमच्या भुरग्याक तुमी खंयच्या माध्यमाचे शाळेंत घातला?
(इतल्यान फाटसून बोवाळ जाता. शाळेंत गेल्लो बाबा – साईश धांवत धांवत परत येता. फाटीवयलें दफ्तर तशेंच आसा. मास्तर आधुनिक स्वरूपाचो झकपक. तो आडखळत ताच्या फाटल्यान धांवता. भावोजी मुखार येवन तांकां थामयता. भावोजी बाबाक लागीं ओडटा.)

भावोजी : कितें जालां?

मास्तर : This is your son? You are his father?

भावोजी : हय. कितें जालें?

मास्तर : You don't know English?

भावोजी : ना इंग्लीश म्हाका येना. म्हज्या बापायकूय येना आसली. आनी पणज्याकूय. तुका कोंकणी येना?

मास्तर : Konkani is my mothertongue.

भावोजी : मागीर?

मास्तर : (आडखळत) पूण म्हाका ती चड बोरी उलोवंच्याक गोमोना.

भावोजी : उलय तूं, हांव समजून घेतां.

मास्तर : तुका इंग्लेज येयना म्हुणटा तूं जाल्यार तुज्या बॉयालागीं, भुरग्यालागीं खुंयचे लॅग्वेजीन – भाशेन उलयता?

भावोजी : खंयचे म्हणजे ? म्हजे मायभाशेन. भुरग्याचे मायभाशेन.

मास्तर : तें जालें, पूण तूं इंग्लेजीत उलयना?

भावोजी : ना. गरजूच ना. तशी ताची आवय उलयता. पूण ती तांबडी इंग्लीश.

मास्तर : म्हुणल्यार भुरग्यालागी घरा तुमी इंग्लेजीन उलयना?

भावोजी : ना. निखालस ना.

मास्तर : म्हणटोच तुच्या बाबांची – भुरग्याची इंग्लेज सुदारतोली कोशी?

भावोजी : तुमी शाळेंत कितें करतात तर? सुदारप जावपाक जाय म्हण आमी भुरग्याक शाळेंत घालतात न्हय?

मास्तर : तें सारखें. पूण ताचें सुदारोप जावपाक तुमी लेगूत सुदरोवपाक जाय.

भावोजी : म्हणजे इंग्लेज उलोवपाक जाय?

मास्तर : सारकें!

भावोजी : इंग्लेज उलयलो म्हणटकच मनीस सुदारलो?

मास्तर : सारकें!

भावोजी : कितें सारकें? गावांतल्यो मानसो, कोणे बांदिल्ल्यो जाणां? इंग्लीश शिकूंक नाशिल्ल्या मनशांनी. तीं चार चवक्यांची घरां कोणें बादिल्लीं जाणां? इंग्लीश शिकूंक नाशिल्ल्या लोकांनी. तीं देवळां, त्यो इगर्जो, त्यो मशिदी इंग्लीश शिकूंक नाशिल्ल्या मनशांनी बांदिल्ल्यो. ते सुदारूंक नाशिल्ले? सांग.

मास्तर : तूं उलयताय तें म्हाका सारकें सोजमोंक ना.

भावोजी : कशें समजतलें? तुजी मदरटंक कोंकाणी न्हय रे?

मास्तर : हांव कित्या येयलां तें सांगोतां.

(एँकर आनी कॅमरामन भावोजी आनी त्या मास्तराचें उलोवणें चत्रायेन आयकता आनी आतां तेंच संभाशण शूट करतात.)

भावोजी : सांग.

मास्तर : हांव ह्या भुरग्याचो क्लासटिचर जावन आसां.

भावोजी : बरें.

मास्तर : प्रिन्सिपलान सांगलां, ह्या भुरग्याक घरा पाय आनी तेच्या माय-पायक सांग-

भावोजी : कितें सांग?

मास्तर : हो भुरगो आमच्या इश्कोलांत नाका. ताचेखातीर दुसरें इश्कोल आसा. ताका थंय धाड म्हणोन.

भावोजी : दुसऱ्या इस्कोलाचें बरें आसा. तुमचे शाळेंत कित्याक नाका?

मास्तर : तुमचो भुरगो Dumb मोनो आसा. तेका उलोवपाक कोवोना. तेका तुमी बऱ्या दोतोरालागीं व्होराय.

भावोजी : (रागान) म्हजो पूत मोनो? कोणे सांगलें तुकां?

(बाबाक) बाबा, तुज्या ह्या मास्तराक उलोवन दाखय.
(बाबा भावोजीक घट धरून हुंडक्या हुंडक्यानी रडटा.)
(मास्तराक) राव मातसो. ताचेर मोन्याचो आळ घातला देखून तो भियेला आनी रडटा. (रागान) हांव जर बाबाचे सुवातेर आशिल्लों जाल्यार तुमकां एक सणसणीत कास्ताची गाळ घालून दाखयतलो आसलों - मोनो काय भेड्डो तें.

मास्तर : होन्यांनीच तुमचो बाबा मोनो. हांवूच न्हूय इश्कोलांतले सगळे टीचर हेंच सांगतात.

भावोजी : चुट्टी लागली तुमच्या इश्कोलाक आनी खळान गेले तुमी आनी तुमचे मास्तर.

मास्तर : तुमी आमकां गाळी सोवताय?

भावोजी : ना. फुलां घालतां! नसतो आळ घातलोना तुमी आमच्या बाबाचेर. तो काय बरो कीर कसो पटापट उलयता.

मास्तर : मागीर आतां कित्याक उलयना?

भावोजी : (समजायत) बाबा उलय, उलय.

बाबा : पप्पा,

भावोजी : सांग.

बाबा : हांव तुकां पप्पाच म्हणटलों. डॅडी न्हय.

भावोजी : पप्पाच म्हण. तें बरें दिसता. डॅडी नाका.

बाबा : मम्मी म्हणपाक लायता.

भावोजी : तिका मम्मी म्हण. सांग, तूं शाळेंत कित्याक उलयना?

बाबा : मागीर सांगतां. पयलीं म्हाका सांग, तूं म्हजेबरोबर खेळटलो?

भावोजी : हय खेळटलो. आतां सांग, शाळेंत तूं कित्याक उलयना?

बाबा : ना, आनी उलोवचो ना.

भावोजी : कित्याक?

बाबा : टिचर, टिचरी कायचे काय सांगतात.

भावोजी : कायचे काय?

बाबा : हय, कायचे काय. काय बरो नाल्ल, ताका नाल्ल म्हणना, कोकोनट म्हणपाक सांगता. तो कोकोनट रे?

भावोजी : ना, तो आमचो नाल्ल मरे!

बाबा : माजर म्हणजे कॅट? कॅट म्हणपाक ताका कितें कांटे आसात?

भावोजी : ना, माजर म्हणल्यार माजर.

बाबा : न्हंय. माजर म्हणल्यार बिलू.

भावोजी : आरे, हय मरे.

बाबा : आनी सुणो म्हणल्यार भिशू. शाळेंत ताका डॉग म्हणपाक लायता. हाम्मा म्हणल्यार कॅटल खंय. कावळो म्हणल्यार क्रो. मेमें म्हणल्यार फिश. भोभो म्हणल्यार फूड. चांदीमाम म्हणल्यार मून खंय!

भावोजी : आनी फुडें?

बाबा : हांव टिफीन उकतें करून खातां तेन्ना इट म्हणटा. म्हाका मागीर खऱ्यानीच वीट दिसता.

भावोजी : फुडें सांग, फुडें सांग.

बाबा : आमच्या हळडुव्या रोजाक मेरीगोल्ड म्हणप? आनी तांबड्या गुलाबाक रोज म्हणप? आत्याचें पर्तें करता. आनी पप्पा, एक्रदां म्हाका टिचरीन घूड म्हणलो.

भावोजी : घूड?

बाबा : हय. घूड. हांव कोंबयांचो घूड? दुकरांचो घूड?

भावोजी : ना रे बाबा.

बाबा : ती कविता मात म्हाका खूब आवडटा.

भावोजी : खंयची कविता?

बाबा : बाबा ब्लॅक शीप हेव यू एनी वूल?

भावोजी : ही कविता कित्याक आवडटा बाबा?

बाबा : तातूंत म्हजे नांव आसा – बाबा! म्हाका तितलेंच कळटा. आनीक कांयच कळना. म्हणून हांव वग्गी रावतां. टिचरी उलयत आसतात. म्हाका कितें?

भावोजी : मागीर तूं शाळेंत करता तरी कितें?

बाबा : टिफीन खातां. उदक पितां, मुती करतां आनी परत येतां.

(मास्तर सगळें चत्रायेन आयकता. गोंदळटा.)

मास्तर : (भावोजीक) तुमच्या बाबामदें आनी आमच्या शिकोवप्यांमदें कितें तरी घुस्पागोंदळ जाला.

भावोजी : खूब मोटो घुस्पागोंदळ जाला. आनी तो फक्त आमच्या बाबा पुरतो न्हय, तर समेस्त बाबा आनी बायांचे बाबतीत.

मास्तर : हांव वेतां. प्रिन्सिपलाच्या कानार ही गजाल घालतां.

भावोजी : सारखी घाल.

एँकर : थँक्यू! आमकां बरी बायट मेळ्ळी. आमी ती आमच्या चॅनलाचेर परत परत वितरायतले.

भावोजी : देव बरें करूं!

(एँकर आनी कॅमरामन वतात. इतल्यान भितरल्यान बाय येता. बाबाक पळोवन अजापता. घड्याळीचेर वरां पळयता. तिका अजाप जाता. कारण बाबा शाळा सुटचे आदींच आयला. बायेक पळोवन बाबा भियेता. भावोजीच्या आदाराक वता. बाय ताका मर्दीच कसो आयलो म्हण विचारपाक वता. संगीत सुरू जाता आनी बाबा गावपाक लागता. बाय आनी भावोजी ताचेबरोबर गायतात.)

बाबा : मम्मा, म्हाका कळना ।
पप्पा, म्हाका कळना!

बाय : बाबा, कितें कळना?

भावोजी : पुता, कितें कळना?

बाबा : वयलो नाल्ल खंय कोकोनट
सकली भिकणां ग्रावंड नट
पि यू टी जाता पूट
बि यू टी कित्याक जायना बूट ?

बाय : बाबा, इंग्लीश लँग्वेज ग्रेट
सगळ्यामदें तिकाच वेट
कम्युनिकेशन जाता स्ट्रेट
इंग्लीश नातर तूं डिग्रेड

बाबा : मम्मा, म्हाका कळना।
पप्पा, म्हाका कळना ।

बाय : बाबा, कितें कळना ?

भावोजी : पुता, कितें कळना?

बाबा : इंग्लीश नातर आमी बोणे?
पोट भरचें ना तिच्याविणे?
खावचे पडटले फातर गुणे
मम्मा सदांच मारता आणे ।

भावोजी : इंग्लीश भास न्हय पोटाची
फकत वयल्या नेटाची
वान्सा न्हय ही बऱ्याची
मायभास आपली सोडपाची

बाबा : मम्मा, म्हाका कळना!
पप्पा, म्हाका कळना!

बाय : बाबा, तुकां तें कळटलें

भावोजी : केन्नातरी तरी तें वळटलें

(बाय बाबाक भरभरीत ओडीत भितर व्हरता. भावोजी खजील जावन थंयच रावता. खिणभर काळोख जाता आनी रोखडोच उजवाड.)

## देखाव – धा

(कांयजाणां बरोबर बाबा खेळत भायर येता.)

बाबा : पप्पा, पप्पा म्हजेबरोबर खेळपाक यो.

भावोजी : खेळपाक ? आनी तुजी शाळा?

बाबा : शाळेक बुट्टी.

भावोजी : चल खेळुंया. (उलो मारून) शंकर, विष्णू, विठ्ठल, पांडुरंग येयात. खेळ खेळुंया.

(शेजारी येतात. सगळे जाण नाचून गायतात.)

**खेळ खेळुंया खेळ बाबा**
**खेळ खेळुंया खेळ**
**जाणटे नेणटे एकठांय येवन**
**मेळ जुळोंवया मेळ ॥**

**खोल्ले खोल्ले खोल्ले**
**खोलतेन बाल खोल्ले**
**एका कोयण्यान माल्ले**
**देडशें दोनशीं झिल्ले ॥**

**तांबडी कोंबडी लंग्डी**
**काळी बोकडी लंग्डी**
**देड़ पांयांचे वांगडी**
**भरून आयली तंग्डी ॥**

कबड्डी खेळटा कबड्डी
कोण कोणांक ओडी
कोण धरून सोडी
जाली ऽऽ ताडीमाडी ॥

चिक् चिक् लब् लब् चिखलकालो
रेब्यान रंगलो रस्मी शेलो
गीमा वोतांतलो जीव सायबा
जालो ओलो ओलो॥

(गितांतल्या आशया प्रमाण – बाबा धांवता. एकलो लंगडी घालीत ताका धरपाक वता. लोक भोंवतणी कंवडाळें करतात. तो बाबाक धरता. एकलो हातांत खोलती घेतिल्लेभाशेन करून खोले करता. बाबा जिखल्ले भाशेन करता. बाबा 'कबड्डी कबड्डी' म्हणत लोकांच्या आंगार वता. एकलो बाबाच्या पांयांक धरता. बाबा आडवो पडटा. बाकिचे धरिल्ले भाशेन करतात. बाबा सगळ्यांक ओडीत व्हरता रेशेक हात तेंकयता. सगळे बाबा जिखलो म्हण आड्डतात. सगळे पटापट वयलीं खोमसां काडून. उकते जातात. बाबाय शर्ट काडून उकतो जाता. चिखलकाल्यांतले भशेन नाचतात. इतल्यान भितरसावन हातांत बडी घेवन बाय चडफडत येता.)

बाय : What is this nonsense? हें कितें चल्लां?

भावोजी : चिखलकालो.

बाय : Shut up लज दिसना सांगपाक?
(लोक अचळय वयली खोमसां आंगार चडयतात.)
चिखलकालो - Mud fest ! शी! ugly! तुमचीं मस्तेपणां खूब जाली. too much. (बाबाक) तुंवूय बापायभशेन अनाडी जावंक सोदता? (भावोजीक) तूं सुदारचो म्हण तुकां

थंयच्या रेब्यांतलो हांगा हाडून घरजांवय केलो. Home son - in - law! सगळें फुकट गेलें. तूं थंयचेंच रेब घेवन हांगा आयलो. तूं लोळ ह्या चिखलांत. म्हज्या बाबाक हांव लोळपाक दिवचीना. No, Never. आयक (भावोजीक) तूं आयक. बाबा, तुंवूय आयक. शेजाऱ्या पाजाऱ्यांनो, तुमी आयकात. listen carefully. बाबा रावचोना ह्या गावांत. बाबा रावचोना ह्या देसांत *Baba* will go to foreign. बाबा फुडलें शिकपाखातीर परदेसांत वता.

(भावोजी कितेंतरी सांगपाक वता. पूण बाय ताका उलोवंक दिना.)

**भावोजी** : आतां चवथ लागीं पावल्या. मागीर रोखडीच दिवाळी. चवथ – दिवाळी करून ताका धाडचो.

**बाय** : पयलीं तुमच्या सगळ्यांच्या चिंतनांची होळी करता. मागीर चवथ आनी उपरांत दिवाळी.

**भावोजी** : म्हजें मातशें आयक तरी

**बाय** : म्हाका कोणाचे कांयच आयकुपाचें ना. हावें थारायलां तें फायनल. बाबाच्या वचपाची सगळी तयारी जाल्या. मुंबय म्हजो अंकल आसा. ताचेकडेन सगळी उलोवणी जाल्यांत. फुडल्या सप्तकांत तो लंडनाक वता. बाबाक ताचेबरोबर धाडटां. Full Englishman, पुराय तरेचो फिरंगीसायब जालेबगर बाबा परतो येवचोना. बाबा भायर वचपाक थोडेच दीस उरल्यात. घेयात, जाय तितले खेळून घेयात. Go to the hell.

(बाय पांय आदळीत भितर वता. वातावरण गंभीर जाता. लोक ल्हवू ल्हवू अपुरबायेन बाबाक उबारतात. वयल्यावयर आडवो करतात. विमानाभशेन लोकांनी उबारिल्ल्या हातांच्या तायटांचेर आडवो जाता. लोक ताका घेवन एक दोन भोंवताडे मारतात. पार्श्वभागाचेर निरोपाचें गीत आयकूंक येता.)



शुभास्ते पन्थानः । ॐ शुभास्ते पंन्थानः ।
गोडब्लेस यू । खुदा हाफिज ।
देव बरें करूं। सायोनारा ।
आदेवेश् अल्विदा । गुड्बाय ।।

आदवेस करचो वेळु पावला
हें म्हुजें काळीज रे फाफसोता
एकामेकांक सोडच्या वेळार
हो संवसार नाकांसो दिसोता
वोंस वोंस रे रडों नाकां
देवूच फेलिस करतलो तुकां

शुभास्ते पंन्थानः । ॐ शुभास्ते पंन्थानः ।।

चांदोबा चांदोबा भागलास कां
लिंबोणीच्या झाडामागे लपलास कां
लिंबोणीचें झाड करवंदी
मामाचा वाडा चिरेबंदी
शुभास्ते पंन्थानः । ॐ शुभास्ते पंन्थानः ।।

(निमाण्या कडव्याच्या वेळार भावोजीच्या मुखामळार गडद उजवाड येता. भावोजी रडकुऱ्यां आयला.)

(पयलो अंक सोंपता.)

## अंक : दुसरो

### देखाव – एक

(पयल्या अंका उपरांत सुमार वीस वर्सांचो काळ लोटला. भावोजीन पन्नाशी हुपल्या. थोडे भोव केंस पिकल्यात. आदल्या भेसांत व्हडलोसो बदल ना. बायची पिराय पावल्या पंचेचाळीसांकडेन. केंस सामके पिकल्यात–अकालीं. भेसांतलो आदलो भडकपणा वचून कांयसो सादेपणा आयला. पूण इंग्लीशीचे मिजासीच्यो कड्डी आजून वचूंना. बायच्या घराच्या आशीकुशीक रावपी लोक आतां काळाप्रमाण जाणटे जाल्यात.

थळ तेंच. वर्साची चवथिचो परब लागीं पावल्या लागीं म्हणल्यार आयज तय. फाल्यां चवथ. फाटलीं कांय वर्सां बाय, भावोजी आनी शेजारी, दर चवथीक बाबा येतलो म्हण ताची वाट पळयतात. आतांय तशेंच. एकलो एकलो शेजारी येता.

: येवपाची निमाणी बसूय आयली. कोण कोण आयल्यात. लोक चवथिचें सामान घेवन आयल्यात.

: निमाणी ट्रेनूय स्टेशनाचेर थारून गेल्या. चवथीक येवपी कितलेशेच जाण कुटूंबासयत आयल्यात.

: निमाणे विमानूय येवन गेलां आसतलें.

: विमानान आमचो कोण येतलो?

: कोण म्हणजे? जाची वाट पळयता तो. इंग्लंडच्यान येवपाचो जाल्यार तो कितें तुमचे गडगड बशींतल्यान आनी झुकूझुकू ट्रेनींतल्यान येतलो? ताका विमानानूच येवचें पडलें ना?

: भंगलो!

: कितें?

: येतलो भंगलो!

: ल्हवू उलय. थंय भावोजी आनी बाय आयकत.

: आयकूं. तांचेचखातीर हें जावपाक पावलें.

: भावोजीखातीर न्हय आं. बायखातीर.

: जायत रे तें बाय. पूण हो घोव न्हय?

: घोव खरो. पूण घरजांवय न्हय!

: जाल्यार कितें?

: आसूं तें. आमकां हुस्को बाबाचो.

: आमच्या गांवचो पोर आमकां ना जालो!

: ना जालो म्हणजे कितें? कसली अभद्र भास उलयता तुमी? येतलो केन्नातरी.

गोंदळी : (उलयताना हो गोंदळ करता, म्हण गोंदळी) पूण केन्नातरी म्हणजे केन्ना? कावळे धवे जातकूच? बाबा फ्रान्साक गेल्यार–

: फ्रान्साक न्हय रे बाबा इंग्लंडाक.

गोंदळी : थंयच. बाबा इंग्लंडाक गेल्यार मेजून वीस वर्सां जालीं.

: खरें. म्हाका वाचपा–बरपाक कळना न्हय म्हण हांवें वंटीचेर रेगट्यो मारून दवरल्या वर्साक एक. त्यो कितल्यो जाल्या त्यो हांव मेजून पळयतां.

: बेगीन मेज. नाजाल्यार चवथिच्या निमतान तुज्या पुतान वंटीक रंग काडल्यार तुजें गणित घुस्पतलें.

: हांव म्हणटां, वीस वर्सांत जो एकदांय आयलोना तो आतां येतलो?

: निदान फाटलीं धा वर्सां तरी हांव ताची नित्य नेमान वाट पळयतां. आयज तय. फाल्यां चवथ. बाबाक चवथिचें आनी दिवाळेचें खूब!

गोंदळी : स वर्सांचो आसतना हे बायेन जेन्ना ताका बळजबरीन अमेरीकेक धाडपाचो –

: अमेरीकेक न्हय रे बाबा! इंग्लंड !

गोंदळी : तर इंग्लंडाक धाडपाचो थारायलो तेन्ना चवथ तोंडार पाविल्ली. भावोजी बायच्या पांयां पडून म्हणटा तसो बायक सांगतालो, चवथ जांवदी, दिवाळी जांव दी. मागीर ताका वचूंदी जपानाक.

: (सुदारत) इंग्लंडाक.

गोंदळी : बरोबर. इंग्लंडाक. आयकल्यार बाय कसलें! आतां खंत करीत बसलां. बसलां थंय सुकलें.

: सुकलें खंयचें? पिकलें!

: बाय झक् मार रे. आमकां पडलां बाबाचें.

: बाबाचें जालेंच रे. पूण बायचे करणेचो लेगीत पंचनामो जावपाकूच जाय. बायन पळय बाबाक इंग्लंडाक धाडलो ताचे फाटल्यान कितेंतरी कारस्थान, न्हय भानगड आसपाक जाय.

: कसरी भानगड?

: बायन बाबाक इंग्लंडाकूच कित्याक धाडलो? आनी जाचे वांगडा धाडलो तो अंकल म्हणटा तो कोण? बायचो मामा काय काका? कारण इंग्लीशींत दोनूय अंकल.

: तूं म्हणपाक कितें सोदता?

: आं. सांगतां. पयलीं गजाल म्हणल्यार बायचो काका, मामा असो कोण एक अंकल ना. आसल्यार आमकां केन्ना दिसपाचो न्हय? बायचो 'कोणतरी' इंग्लंडाक आसा.

: कोण?

: आनीक कोण? जाचे पासून बाबा जाला तो. म्हणजे बाबाचो बापूय कोणतरी फिरंगी आसतलो. कारण बाबा म्हणल्यार फिर्ग्याचेंच रुप.

: कितेंय जांव. आमच्या आंगा-खांदार वाडिल्लो तो आमचो बाबा.

: तें जालेंच रे. आमचो बाबा, आमकां तो न्हय जाला?

: हय तर. नाजाल्यार दोळ्यांत तेल घालून आमी अशी चवथी-दिवाळेक ताची वाट पळयतले आसले?

: भावोजीय खूब लागीं आयला. पिकासांवान पियेवपूय उणे केलां, करूंक जाय म्हण चवथ करता. दर चवथीक गणपतीपरस ताचें मन जड जाता!

: आनी आमचें कितें ल्हव जाता?

गोंदळी : ज्या दिसा बाबाक चीनांत धाडलो-

: (सुदारीत) चीनांत न्हय रे गोंदळ्या, इंग्लंडाक. तूं मातसो उलयना जाल्यार जाता. बाबा इंग्लंडाक आसल्यार थंयच बरेभाशेन आसूं दी. तूं ताका वगीच चीनांत, अमेरीकीकेक , फ्रान्साक, जापानांत कित्याक धांवडायता?

: (विशय बदलून) अंदू आमी एक करूं येता.

: कितें?

: बाबाखातीर अंदू गणपती पांच दीस दवरपाचे.

: गणपती दवरपाक हेंच एक निमित्त फाल्त आशिल्लें.

: आं. म्हारगाय मळबाक तेंकल्या मरे.

: आतां भावोजीक आनी बायक जाय जाल्यार दवरूं दी. पांच नातर सात दीस.

: आमीय णव दीस पासून दवरूं येताले पूण बाबा येतलो म्हणपाची गॅरेंटी मात जाय.

: अशी गॅरेंटी कोण दितलो? पूजा सांगता तो भटमाम? काय स्वतः प्रत्यक्ष गणपती?

: कांय नाका. अंदू वर्सा बरें एक कडकडीत गाराणें घालुंया. ह्या तेंपाक गाराण्याचो परीणाम बरो जाता.

: एऽऽ चल, आयज तयेची रात. दर एकल्याक माटोळेचीं कामां आसात. चलात.

: हय. फुटात.

(इतल्यान भायरसावन गाडयेचो / टॅक्सीचो आवाज आनी हॉर्न आयकूंक येता. गाडयेच्च्या फुडल्या दिव्यांचे खर अशे प्रकाश झोत आडवे-तिडवे पडटात. सगळे तेवटेन दोळे लावन उमळशिकेन पळयतात. थोड्या वेळान एकलो माथ्यार, हातांत एक दोन बॅगां घेवन बायच्या घरावटेक वता. ताच्च्या फाटोफाट आनीक एकलो एक व्हडलें बॅग आनी कांय बारीक मोटीं-मोटीं बॅगां घेवन वता. लोक आपणामदीं उलयतात.)

: कोणागेर तरी चवथीचें बरें मोटें वजें आयलां.

: अंदू ह्या वाठारांत कोणाचें लग्न जालां? हो नवो भावोजी मोटो भाग्यवान!

: थंय चलयेकाराचें घर सगळें पुसून हाडलां आसतलें. बॅगां केदीं आनी कितली आसात!

: पूण पळयिल्ले भितर वजें एक्कूय दिसलें ना मरे.

: खरें म्हणल्यार वज्याची चाल बंद करपाक जाय.

: ती कशी बंद करप?

: माथ्यार वजें घेवन चलप्याक आनीक चलूं नाका म्हण सांगप. जाली! चाल बंद.

: (सगळ्यांक) ए, ए चलप बंद-न्हय तोंड बंद. पळयात.

(सगळे गाडयेवटेन पळयतात. एक चलो सुमार 25/26 वर्सा पिरायेचो. सामको फिरंगी भेस म्हणल्यार पेंट, शर्ट, बॉ, बूट, हॅट, घड्याळ असो अत्याधुनिक भेस. सादारण तितलेच पिरायेचें तरनाटें चली ताच्च्या सांगाताक आसा.

मॉडर्न स्कर्ट, बूट, हॅट, गळ्यांत नेकलेस असो ताचो भेस. चल्याच्या हातांत एक बॅग जाल्यार चलयेच्या हातांत पर्स आसा. दोगांय जोडयेन आसात. चलो चलयेक हेवटेन तेवटेन बोटां दाखोवन कित्या कित्याची वळख घडयता अशें दिसता. लोक आपलेमदीं उलयतात.)

: हें फिरंगी जोडें खंयतरी घुस्पलें.

: बरोबर. मिरामार, कळंगुटे, कोलवा नातर पाळोळें वेळेर पावपाची तीं चुकून हांगा पावल्यांत.

: नातर थंय सावय प्लांटेशनात पावपाचीं, हांगासर पावल्यां आसतलीं.

: (फुडें सरत) तांकां मदतीची गरज आसा.

: राव. तांचेकडेन उलोवपाक वता तो तुकां इंग्लीश येता मरे?

: बायची तांबडी आयकून आयकून आमकां लिटल लिटल इंग्लीश येता. (नेटान मुखार वचून) Hallo, halloऽऽ Why are you *ghusping* here and there and your are welcome in our xxx *wado.*

बाबा : Thank you.

मोनिका : Thank you very much.

बाबा : Don't you recognise me?

मोनिका : *Sash,* you have told me that your people will know you. But they did not recognise you. Do we missed the place?

बाबा : No Monica. We are at right place (लोकांक) I am *Sash.* your *Baba!*
(लोक घुस्पल्यात.)

: आतां घुस्पुपाची पाळी आमची. तो सांगता, आपूण सॅश, आनी तुमचो बाबा. सॅश म्हणजे कितें? नांव? आनी हो आमचो बाबा कसो आसतलो? बाबा असो आसता?

रामदेवबाबा, पारडेश्वरबाबा ते बाबा कशे आसतात?

: चुट्टी लाय तुजे समजणेक. आरे बाबा, तो सांगता तेप्रमाण सॅश म्हणजे साईश आसपाक जाय. आनी बाबा म्हणजे तोच. बायेलो बाबा, भावोजीलो बाबा, तुमचो आमचो बाबा.

: पूण हो आमचो बाबा कसो आसतलो? आमचो बाबा कितलो ल्हान!

: आरे वीस वर्सां आदीं ल्हान. आतां तो येदोच जाला आसतलो न्हय?

सगळे : (समजिकायेन) हय हय. सारकें.

बाबा : *Vithal* uncle, *Pandurang* uncle don't you recognise me? I am your *Baba.*

सगळे : वळखले रे वळखले.

: आरे, तूं खऱ्यांनीच बदल्ला. कितें तुजो भेस! सगळेंच बदल्लां. तूं सामको फिरंगी सायब जावन आयला. तुजी भासूय बदल्ल्या आसतली. आदली भास विसल्लो.

बाबा : ना. हांव इंग्लीश शिकलां, हेरूय भासो शिकलां. पूण म्हजी भास विसरूंक ना.

सगळे : वा ! वा!

बाबा : पूण हांव फिरंगी जालां. फिरंगी सायब. कारण म्हजे आवयक हांव तसोच जाय आसलों.

: बाबा, खूब बरें केलें. ज्यूस्त चवथीक आयलो.

: तूं आयला म्हण तुज्या घरा वचून सांगूं?

बाबा : नाका. आमी घरांत वचून तांकां सरप्रायज दितां. सॉरी! पयलीं मोनिका, I will introduce you to my neighbour. Uncle *vithal*, Uncle *Pandurang*, Uncle *Shanker*, uncle *Vishnu.*

(ते सगळे हात जोडून नमस्कार करपाक सोदतात. मोनिका मुद्दाम तांचो हात धरून तांकां शेकहँड करता. तेवूय खुश जातात.)

: (दुसऱ्याक) मॅडमीचो हात कितलो थंड न्हय! हातांत धरी
धरीन दिसता.

**बाबा** : आतां हाची वळख करून दितां. ही म्हजी फियान्सी.

: वा, बरें नांव फियान्सी! (हात मुखार करून) हॅलो, हाव
फियान्सी? (दुसरो पयल्याक फाटी ओडटा.)

**मोनिका** : Very fine. (हात जोडून) नमस्ते !

: म्हणजे हाका आमची भास येता?

**बाबा** : हय. थंय इंग्लंडाक हाणे म्हाका आपली भास शिकयली
आनी हांवें ताका म्हजी भास शिकयली.

**मोनिका** : थोडी थोडी येता.

: म्हणजे लिटल लिटल येता.

**मोनिका** : Yes little, little.

**बाबा** : हाचें नांव मोनिका.

: म्हणजे दोन नांवां. फियान्सी आनी मोनिका. तुकांय तशींच
साईश आनी बाबा.

: (दुसरो ताका फाटल्यान ओडटा) आरे, दोन नांवां न्हय.
ताचें नांव. मोनिका फियान्सी म्हणल्यार –

**बाबा** : फियान्सी म्हणल्यार मोगिका.

: बरें केलें. भावोजीचो आनी बायचो हुस्को पयस केलो.

**बाबा** : पूण अशें कांय ना. म्हणजे आमी दोगांय बरोबर शिकल्यां.
बरोबर रावल्यां पूण लग्न जातलींच अशें ना.
(लोक आपलेमदीं)

: तशें पळोवपाक गेल्यार भायर खुबूच बरें न्हय?

: हय तर. फॉरेन म्हणजे फॉरेन. गरजेभायर लग्नाचें बंधन ना.

: आनी भोंवता ताचेबरोबर लग्न जावंकच जाय अशें ना.

: बाबा, फॉरेन खरेंच बरें न्हय?

**बाबा** : हांवें सर्ग पळोवंना. पूण सर्गापरस बरें. फॉरेन सामकें व्हेरी
गुड!

: सारखें. आमचो देश व्हेरी बेड.

: थंयचे रस्ते?

बाबा : Very good!

: थंयचो पावस ?

बाबा : Very good!

: थंयचें वोत?

बाबा : Very good! हांवें तुमकां भेट म्हण कसल्यो कसल्यो फॉरेन वस्तू हाडल्यात. एकल्या एकल्याक एक एक.

: चवथ बरी नेटान फुलोवया तर.

(बॅग उक्तें करता. बॅगेंत तरातरांच्यो वस्तू आसात. वस्तू मूळ वस्तुंच्या आकारापरस व्हड आसात. एक एक वस्तू काडून एक एकल्याक दिता. पयलीं चॉकलेट दिता.)

पयलो : (चॉकलेट घेवन गायता) फॉरेन चॉकलेट –

बाकिचे : (गायत) Very good! Very good!

पयलो : गाड्यावयली चिकी –

बाकिचे : Very bad! Very bad!

(बाबा दुसऱ्याक कुकी दिता.)

दुसरो : फॉरेन कुकी –

बाकिचे : Very good ! Very good!

दुसरो : कामतिली बिस्कीट–

बाकिचे : Very bad! Very bad!

(बाबा एकल्याक पेन्सिल दिता.)

तिसरो : फॉरेन पेन्सील –

बाकिचे : Very good! Very good!

तिसरो : गाड्यावयलो लापूस–

बाकिचे : Very bad! Very bad!

(बाबा एकल्याक सत्री दिता.)

चवथो : (सत्री उसोवन) फॉरेन Umbrella -

बाकिचे : Very good! Very good!

चवथो : आमची सत्री–

बाकिचे : Very bad! Very bad!

(बाबा एकल्याक रोलींग टीश्यू दिता.)

पांचवो : (उसोवन) फॉरेन टिश्यू–

बाकिचे : Very good! Very good!

पांचवो : आमचे पेपर –

बाकिचे : Very bad! very bad!

(बाबा निमाणे एकल्याक रितें बॅगूच दिता.)

सवो : फॉरेन बॅग –

बाकिचे : Very good! Very good!

सवो : पिशव्यो – पोतयो –

बाकिचे : Very bad! Very bad!

एक पंगड : फॉरेन ! फॉरेन!

दुसरो पंगड : Very good! Very good!

एक पंगड : Indian ! Indian!

दुसरो पंगड : Very bad! Very bad!

(मागीर सगळे लोक हातांत वस्तू घेवन गावन नाचतात. व्हदळसावन मोनिकाय तांकां ताळ्यो वाजोवन साथ दिता. सगळे जाण नाचत गायत भितर वता. बाबा आनी मोनिकाय तांच्या फाटल्यान वतात.

(थोड्या वेळान घरांतल्यान बाय आनी भावोजी भायर येतात.)

बाय : बाबा, बाबा, Where is my *Baba?*

भावोजी : तीं बॅगां धाडून दिल्यां मुगो आनी बाबा आनीक कित्याक जाय तुकां? त्या बॅगांक वेंग मारून बस.

बाय : तूं चूप बस. Shut up.

भावोजी : बाबा आयला म्हण कळटकूच तुकां परत पांखां फुटल्यां

आसतलीं. हारशांत तोंड पळयलां?

बाय : कित्याक?

भावोजी : सामकी शशिकलाताई काकोडकार जाल्या तुजी.

बाय : Thank you. जांव इतल्या वर्सांनी काय जायना म्हजें म्हत्व तुकां कळ्ळें. म्हजी तुलना तुवें गोंयची पयली बायल मुख्यमंत्री श्रीमती शशिकलाताई काकोडकार हांचेबरोबर केली. Thank you very much.

भावोजी : शशिकलाताई काकोडकाराकडेन तुजी तुलना फकत पिकिल्ल्या केंसा खातीर केल्या. अर्थांत पिकिल्ल्या केंसांनीय फरक आसा. थोडे केंस अणभवान पिकतात. थोडे वोतांत.

बाय : म्हजे केंस पिकल्यात जाल्यार ते बाबाच्या हुस्क्यान. खंय म्हजो बाबा खंय? Where is my wise? Where is my Stone?

(बाबा आनी मोनिका कडेक रावून दोगांयची करामत पळयतात.)

भावोजी : तूं अशें कित्याक करीना?

बाय : What?

भावोजी : तें हिंदी फिल्मांत आवय पुताच्या नांवान पद म्हणटा तशें कित्याक म्हणता. (पद म्हणटा)

बाय : No.

भावोजी : कित्याक नो?

बाय : तशें इंग्लीश पिक्चरांत म्हणना.

भावोजी : अशें, अशें! इंग्लीश तुजी भास म्हणटकूच इंग्लीश पेपर तुजे, इंग्लीश पिक्चरां तुजीं. आतां बाबामुखार पळोवया तुजी इंग्लीश.

बाय : आतां उलोवपाखातीर, झगडपाखातीर तुजी म्हाका गरज ना.

भवोजी : म्हणजे?

बाय : हांव बाबाकडेन इंग्लीशींतल्यान उलयतलीं आनी इंग्लीशींतल्यान झगडटलीं लेगीत. Talking in English, fighting in English -

भावोजी : सांबाळून. वीस वर्सांपयलीं गेल्लो. मदीं पत्तो नासलो. कसोय जायना, परत इतल्या वर्सांनी परत आयला. सांबाळ ताका. तुजे इंग्लीशीक लागून परत गेलो, अशें जावपाक नाका.

बाय : पुरो, पुरो. तो म्हजो पूत How to walk with my son that I know goodly. (उलो मारून) बाबा ऽऽ

(भितरसावन बाबा धांवत गायत नाचत येता. ताच्या फाटल्यान ल्हवू ल्हवू मोनिका येता.)

बाबा : Ba ba Black Sheep have you any wool? Yes sir, yes sir three bags full!

बाय : Very good, Very good my *Baba*. You made true my dream. तुवें म्हजें सपन खरें केलें. You happened English man. Now I am ready for die any time.

भावोजी : आतां इतलीं वर्सां काडल्यां जाल्यार आनीक कांय वर्सां जग. इतली ताकतिक कित्याक? (बाय मोनिका एकेवटेन रावन हातांतले पुस्तक वाचता. उब्यांनीच.)

बाबा : (लागीं येत) पप्पा.

भावोजी : (पोशेत) म्हज्या राजा!

बाबा : (बायक) जाणां मम्मा, बाबा ब्लॅक शीप हें इंग्लीशींतलें गीत थंय इंग्लंडाक म्हणना. ताचेर बंदी आसा. हांव पयलीं समजल्लो, बाबा म्हणल्यार म्हज्यासारखो 'बाबा' काय म्हणून. पूण तशें न्हय. आमी कोंबयांक, धुकरांक आपयता तशें तें. बा! बा! ब्लॅक शीप म्हणल्यार ल्हंव आशिल्लें काळें मेंढरूं. काळें मेंढरूं 'एस सर' करीत गोऱ्यांमुखार बागवता असो ताचो अर्थ देखून तें काळो – गोरो वर्णभेद पसरायता

अशें मानून ताचेर थंय बंदी घातल्या.

य : काय बरें गीत! आतां तुवें सांगलां म्हण अर्थ समजलो थोडोसो. पूण अर्थाक लागून बंदी कित्याक घालूंक जाय?

ावोजी : तें इंग्लंड, हें गोंय-भारत. कांय गजाली तांकां थंय पयलीं समजता मागीर बऱ्या तेंपान आमची हांगा ट्यूबलायट पेट्टा.

ाय : (हुस्क्यान) पूण बाबा, एक सांग. तूं तुज्या बापायभशेन इतली बरी कोंकणी उलयता तें कशें? I am feeling very bad. तूं कोंकणी विसरूं ना? कोंकणी विसल्ले बगर तुकां इंग्लीश कशी येवंक जाता? Forgetting ours then you getting others no?

ाबा : निखालस ना. इंग्लीश शिकपाखातीर आपली भास विसरपाची गरज ना. वयल्यान आपली भास बरी समजल्यार इंग्लीश सारखी येता. मम्मा, तूं भियेवं नाका. म्हाका बरी इंग्लीश येता उलोवपाक तशी बरोवपाक.

बाय : मागीर आतां कित्याक उलयना?

बाबा : थंय इंग्लंडाक थंयच्या लोकांकडेन इंग्लीशीतूनंच उलोवचें पडटा न्हय? आतां म्हज्या गांवघरा आयलां म्हणटकच गांवच्या लोकांकडेन, शेजाऱ्यांकडेन, आवय-बापायकडेन थोडी कोंकणी उलयतां. कितें म्हणटा पप्पा?

भावोजी : बाबा, तशेंच कर. बायचें व्हडलें मनार घेवं नाका. तूं गेल्ल्याक बाय सामकें थतर-वितर जालां.

बाय : कांय थतर-वितर जावं ना. I am alright.

भावोजी : ऑल रायट जाल्यार येनाफुडें ताचे इंग्लीशीचेर व्हाय यू स्लीपूड? ताची चवकशी कर मुगो. कितें खातालो? कसो रावतालो?

बाय : *Baba,* how you forget me रे? कितल्यो चिटी बरयल्यो तुकां. जापूच दिवप ना?

बाबा : शिक्षणामुखार खंय फुरसत आशिल्ली. ल्हान आसतनाच तुवें म्हाक इंग्लंडाक धाडलो. तो म्हजो अंकल म्हण कोण आशिल्लो तोवूय धडाचो न्हय. मागीर म्हजें म्हाकाच सगळें करचें पडटालें. पूण तूं भियेवं नाकां. तुकां जाय ताचेपरस बरो हांव इंग्लीशमन जालां. आतां एक एक गजाल तुकां कळटलीच. व्हदळ येनाफुडें खरें म्हणल्यार हांवें तुमच्या पांयांक हात लावन नमस्कार करपाचो. पूण ना. आतां हांव सामको फॉरेन रीटर्न सायब कसो वागतां. ओ. के.? (नव्या आवेशान) Hello Dad, (शेकहेंड करून) How are you? and how are you my sweet *Mamma?*

बाय : I am very nice *Baba.*

बाबा : Let us introduee my fiancee. Hi Monica. come here.

भावोजी : आरे, तें करवलेभाशेन कितलो वेळ उबेंच आसा.

बाबा : Monica, meet my Dad.

मोनिका : Hellow, how do you do? तूं सारको आसा न्हय?

भावोजी : (रागान, आपलेभितर) आब्बा! आतांच वळख जाता थंय आसा आनी म्हाका 'सारको आसा' काय म्हण विचारता? केदी कापजदाद ह्या पोराची.

बाबा : डॅड, मातशें समजून घे. तें म्हजेकडल्यान कोंकणी शिकलां. 'बरो' आनी 'सारको' ह्या दोनाय उतरांतलो फरक ताका खबर ना. तें तुकां, 'बरो आसा न्हय?' अशें आपलेपणान विचारपाक सोदता.

भावोजी : आं, तरी म्हणटां, फॉरेनर जालें म्हण इतलें सुबेज आसूं येता?

बाबा : Monica, my loving *Mamma.*

मोनिका : Oh your mother. How nicely you write letter to your son! of course he gives it to me for reading. I then read it with his permmission. Tell me

mother, in each letter you start with (याद करीत) What is it? (याद जावन) Yes - "My dear *Baba* I am in the well, I hope you are also in the well" Waht do you mean by this?

**भावोजी** : हांव सांगता, हांव बांयत आसां, आनी आस्त धरतां तुंवूय बांयत आसा. बांयत रावून एकामेकाची खबर घेवपाची आमची पद्दत ती.

**बाबा** : ना, ना, बांय आनी भलायकी ह्या दोनूय उतरांचें स्पेलींग एकूच आशिल्ल्यान मम्माचो तो गोंदळ जालो. अशेंच न्हय मम्मा?

**बाय** : Yes *baba!*

**भावोजी** : सारखे दोळे नासतकूच अशेंच बांयत पडपाचें.

**बाय** : (भावोजीक कडेक व्हरून) म्हाका एक सांग, हें मोनिका कोण?

**भावोजी** : कोण म्हणजे ? चली.

**बाय** : तें जालें पूण हें मोनिका म्हणजे - तो कोण बिल क्लिंटन काय मस्णो कोण आशिल्लो पळयात आनी ताची एक भानगड आशिल्ली.

**भावोजी** : मोनिका लॅवस्की.

**बाय** : असलीं नांवां तुज्या लक्षांत बरीं उरतात.

**भावोजी** : आनी असल्यो भानगडी तुजे तकलेंत उरतात त्यो?

**बाय** : पुरो. तर तें तेंच मोनिका न्हय मू?

**भावोजी** : आतां विचारचें पडलें.

**बाय** : कोणांक?

**भावोजी** : त्या बील क्लिंटनाक.



**बाय** : पुरो. ताका विचारपाक वतले! आनी तें बाबा बरोबर कित्याक म्हणून आयलां?

**भावोजी** : व्हदळ घोशणा करूना ताणे? म्हाका सारखी इंग्लीश कळना

तरी लेगीत म्हाका तें बाबाचें कोण हें समजलें. तुकां इंग्लीश कळटा. म्हणटकूच रोखडें कळपाक जाय आसलें.

बाय : Please tell me, Why she with *Baba?*

भावोजी : Because she is our *Baba's* fiancee.

बाय : म्हणजे कितें?

भावोजी : म्हणजे ती बाबाची मोगिका. जावपाची बायल.

बाय : लव्हर ? (घुंवळ येवपाकडेन पावता. भावोजी सांवरता.)

भावोजी : बाबा, तुजे आवयक घुंवळ येता.

बाबा : (सहजतायेन) *Mamma,* what happened? Ok, we will call doctor. Daddy, take care of *Mamma.* I give company to Monica.

बाय : हांव हांगा घुंवळ येवन पडटां जाल्यार हो कितें काय म्हणल्यार ताका कंपनीत घेवन वता! खंयचे कंपनीत? आतांच वचूंक जाय? (घोवाक) सांग ताका, त्या मोनिका खातिरूच म्हाका घुंवळ आयल्या. असल्यांनी काय येना घुंवळबी म्हाका.

भावोजी : (बाबाक) बाबा, तुजे आवयचे घुंवळीचें कारण मातशें विचार मरे.

बाबा : तुका सदांच अशें जाता? एका बऱ्या दोतोरा कडल्यान उपचार करून घेवंया.

बाय : My real Doctor is you, my son.

बाबा : म्हाका समजुना मम्मा.

बाय : आरे, तुकां शिकपाक धाडिल्लो. For learning, not for loving.

बाबा : पूण जिविताचो सांगाती - Companion केन्नातरी वेंचून काडपाक जायच न्हय?

बाय : तें हांवें वेंचून काडलां.

बाबा : म्हणजे?

बाय : तुकां चली हांवें पळोवन दवरल्या. एक आनी दोन न्हय.

भावोजी : पूण लग्न एकल्याच कडेन जावपाचें.

बाय : You don't eat salt before rice.

भावोजी : तरी म्हणलें अकस्मात म्हजें तोंड खार कशें जालें? शीताफुडें मीठ खाल्लें.

बाय : काय बरें एकापरस एक चली वेंचून दवरिल्लें तुजेखातीर. विचार तरी मरे कोण तीं?

बाबा : सांग मम्मा.

बाय : एक मरे गोपिका. म्हजे चुलतेचे चुलत भयणिलें चली. नाका दोळ्यान बेस बरें.

भावोजी : मातशें तिरशें मात.

बाय : (धेंकसून) तुकां कोणें सांगलें?

भावोजी : तुवेंच केन्नातरी दाखयिल्लें म्हणून म्हणटां. नातर म्हाका कशें कळपाचें?

बाय : दुसरें मरे शारदा. म्हजे मांवळणिच्या देरालें, व्हडलें. पयलें पळून गेलें. कितें दिसता जाणां? आवयस! तिसरें मरे म्हगेल्या तिपोलभयणिच्च्या नण्णेंलें चली. नांव अनुसुया.

बाबा : मम्मा, तिगांयचीं नांवां कळ्ळीं. पयलें गोपिका, दुसरें शारदा, तिसरें अनुसुया. पूण तीं तुगेल्या कसल्या कसल्या नात्यांतली तें कळ्ळें ना. म्हाका समजता अशे तरेन सांग.

भावोजी : सांग, सांग. इंग्लीशीन सांग. चुलतेचे चुलतभयणिलें चली, मावळणिच्या देरालें व्हडलें चली आनी तिपोल भयणिचे नणदेले चली father brother sister in law घालून कर खतखतें. पळोवया तुजी इंग्लीश.

(बाय इंग्लीशीत सांगपाचो यत्न करता पूण जमना.)

बाय : (मारतें घेवन) बाबा, तीं नातीं तुकां रे कित्याक? चलयांचीं नांवां सांगलीं तीं पुरो ना?

बाबा : सद्याक म्हाका गरजूय ना. पूण मम्मा हांव तुजे उतर भायर वडयना.

बाय : हांव जाणाच आसलीं, म्हजो बाबा म्हजें उतर भायर वडोवचोना.

भावोजी : म्हणजे इंग्लंडसावन तुजे बरोबर आयिल्ल्या ह्या मोनिकाक तूं भायर दवरतलो?

बाबा : ना, ना. कितेंय जाल्यार ती म्हजी फियान्सी. इंग्लंडाक आमी एकठांय रावतालीं.

बाय : (भितरले भितर) आवयस्स!

बाबा : थंय लग्न जावपाची व्हडली गरजूय नासली. पूण हांगा भारतांत घडये म्हाका लग्न जावचें पडत. जशें लग्न जातलेंच तसो केन्नातरी म्हजो मोनिकाकडेन डायवोर्सुय – घटस्पोट जातलो. त्यावेळार मम्मा. हीं तुगेलीं कोण गोपिका, शारदा, अनुसुया हांचो विचार करूं येता.

बाय : (कपलार हात मारून) My Godess! म्हणजे तुजें लग्न तुवेंच थारायलां?

बाबा : मागीर आनीक कोण थारायतलो?

बाय : आमी आवय बापूय?

बाबा : प्रश्न म्हज्या लग्नाचो, तुमच्या न्हय.

बाय : तरी पूण–

बाबा : तरी पूण कांय ना. तुका सांगलां तशें तुजें उतर हांव भायर वडोवचोना.

बाय : Enough! Momma's word not throwing out! हे फिरंगीक हाडल्या ती पुरो.

मोनिका : What? You call me *firangin* Yes, I am Foreigner. But don't taunt me calling Foreigner. Just as I am foreigner here, Your son is also foreigner there in England.

बाय : हाका फिरंगीण म्हणटा तें उतर ज्युस्त कळ्ळें पळय!

मोनिका : (सरळ कोंकणीन पूण सवकासायेन) फक्त एकूच उतर न्हय, तर सगळीं उतरां म्हाका कळटात. समजलें म्हजे सासुमांय?

बाय : आगे बाये, इतले बेगीन, हागेली सासुमांय जाली हांव.

मोनिका : Let's go dear *Sash.*

(ताच्या खांदार हात घालून बाबाक व्हरता. बाय सडसडीत भितर वता. भावोजी फाटल्यान एकलोच उरता. खुश जाला. मुखार येवन लोकांकडेन संवाद करता.)

भावोजी : शेराक सव्वाशेर ! ठकाक महाठक! वस्तादाक म्हावस्ताद! म्हणटा तें अशें. बायचें आतां सारखें जिरतलें. हें म्हणजे – शेटीन कान तोंपिल्लेभशेन जालें. कितेंय जांव पूण म्हजो पूत घराक पावलो तें व्हडलें समाधान! विघ्नहर्त्या गणरायाचीच कृपा म्हणपाक जाय. नाजाल्यार स वर्सांचेर बाबाक इंग्लंडाक धाडटा कितें! बाबा थंय करता कितें! मदीं कांय वर्सां पत्तोच ना! आसा काय ना? तेंवूय खबर ना? लोक तोंडाक येता तें उलयता. व्हाळाचें तोंड धरतलो कोण? आनी एक दीस अकस्मात चमत्कार कसो जावन बाबा घराक येता कितें! आनी तो लेगीत चवथी आदल्या दिसा. ज्यूस्त तये दिसा! जय श्री गणराया!

(बोल्सांतली बाटली काडीत) हालीं तुमचेकडेन उलोवणेंच ना. कोणाक तोंडूय दाखोवंक लज न्हय. पिवपावयली वान्साच गेल्ली. आतां परत जिवांत जीव येवपाक लायला. नवी उमेद! आयज तय. फाल्यांसावन चवथ. बाबाच्या मनांत आयलें जाल्यार गणपती पांच दीस, सात दीस, णव दीस उरपाक शकता. म्हणटकूच आयज तय फुलोवप बरी! बाटलेंत कांय उरपाकूय नाका.

(सगळी बाटली तोंडाक लायता आनी गणपतिची आरत म्हणत भितर वता त्याच तालार आरतीचें वाजप वाजपाक लागता. खिणांत काळोख जावन उजवाड जाता.)

## देखाव – दोन

(शेजारचे लोक गणपतिची मूर्त घेवन येतात. एकल्यान मूर्त माथ्यार धरल्या, बाकिचे 'गणपती बाप्पा मोरया' म्हणत येतात. मखरांत गणपतिची मूर्त दवरतात. भितरल्या घरच्यांक सादयता.)

: भावोजी, गणपतिची मूर्त हाडून दवरल्या.

: बाय ऽऽ पुजेचें साहित्य लार्गी कर.

: मदत करपाक तुकां नवी सून आसाच.

: अंदू बाबाकडल्यान पूजा करून घे.

: पूजा जातकच आमकां आपय मागीर आरती करुंया.

: तोमेरेन आमी आमचे गणपती पुजून येतात.

: तुमचो गणपती उण्यांत उणे पांच दीस दवरपाचो.

: आमचो देड दीस जालो म्हणटकूच सगळो वाडो तुमगेर. आरती, भजन, खावप–जेवप सगळें तुमगेरूच.

: बाय ऽऽ, बाबाऽऽ (ल्हवपीक आवाजान) मोनिकाबाय ऽऽ तुमचो गणपती भायर एकलोच आसा.

(सगळे वतात. घरांतल्यान बाय, बाबा आनी मोनिका भायर येतात. बायच्या हातांत पुजेचें साहित्य आसा. बायन मातसो भेस बदल्ला. वेगळी साडी न्हेसलां. खांदार भरिल्लो तुवालो वडयला. मोनिका आनी बाबा त्याच वा तसल्याच भेसांत आसात. दोगांयच्या पांयांत बूट आसात.)

बाय : बाबा, तूं सकाळीफुडें न्हाला मरे? नाजाल्यार do your bath first.

बाबा : सकाळी सकाळी कित्याक? सगळीं कामां करून सवकसायेन रातचो न्हावपाचो. थंय इंग्लंडाक सगले लोक रातचेच न्हातात.

बाय : पूण तूं पूजा करतलो न्हय? Worship of *Ganapati.*

बाबा : मागीर कितें जालें? (मस्कऱ्यांनी) हांवें न्हावपाची गुळी घेतल्या.

बाय : न्हावपाची गुळी?

बाबा : हय. जशी थंडेची गुळी, गरमेची गुळी, खाणाची गुळी. (मोनिकाक दोळो मारून) न्हय मोनिका?

मोनिका : What?

बाबा : आमी दोगांयनी सकाळी न्हावपाची गुळी घेतल्या न्हय?

बाय : तुवें घेतली ती घेतली, ताकाय दिली?

मोनिका : Yes, yes Bath tablets. (आडखळत) एक गुळी माल्ल्यार आठ दीस न्हावपाक नाका.

बाय : (आपलेभितर) जांव. हांगासर आठ दिसांनी नळ येता. (मोनिका गणपतिची मूर्त पळयता.)

मोनिका : Oh! Elephant God! How nice! I like your Elephant God so much.

बाय : Elephant God? हे कितें?

बाबा : मम्मा, भायर गणपतीक अशेंच म्हणटात. हतयाचें तोंड म्हणटकच Elephant God.

बाय : हतयाचें तोंड आसले म्हण कितें जालें? हतयाचे पांय खंय आसात? आनीक माकडाचें तोंड आशिल्ल्या हनुमानाक कितें म्हणटात तर?

मोनिका : Of course, Monkey God!

बाय : (नाराजीन) बाबा, ते एक म्हणटा ते म्हणटा आमच्या देवांक तुंवूय अशेंच म्हणटा रे?

बाबा : मम्मा, फॉरेनरांक कळचे खातीर तशें म्हणचें पडटा.

बाय : (ल्हवूच) हांगांतरी आमचेमुखार तशें म्हणू नाका. तें एक म्हणटा ते म्हणूंदी. तें आसाच न्हय फॉरेनर! (मोट्यान) चल, पुजेक बस do worship.

मोनिका : (अजापान) Worship of Elephant God?

बाय : Yes, afterward he is God. You know story of *Ganapati*.

मोनिका : No, please tell me.

बाय : *Parvati* and *shankar* was couple. Both couple staying goodly then - then.
(फुडें सांगपाचो यत्न करता. जमना. कपलाचेर हात मारता), म्हजें कपल!

बाबा : मोनिका, That story I will tell you afterwards.

बाब : Ok.
(इतल्यान भायरसावन भावोजी भटाक घेवन येता. भटमाम–पुजारी धोतर न्हेसला, वयर उकतो. जानवें दिसता. भावोजीन भटाक उखलूनच हाडला म्हणल्यार जाता.)

भावोजी : बाबा, भटाक हाडलो, आमचो वाडो सोडून पयलीं दुसऱ्या वाड्यार वतालो, वाटेरूच धल्लो आनी उबारून हाडलो. चल, चल बेगीन पुजेक बस.

मोनिका : (अजापान) Who is this fellow?

बाय : This is *Bhatmam* fellow.

मोनिका : (जुळयत) *Bhatmam* means.. *Brahamin* uncle.
(बाबा भटाक शेकहँड करता. भट कांचवेत हात दिता.)

बाबा : Correct. Just like your priest.

मोनिका : Oh. Hello *Brahmin* uncle. How are you?
(शेकहँड करपाक हात मुखार करता. भट सवळेपणाखातीर अनमनता.)

ाय : (पर्याय काडून) बाबा, तूं आनी भटमाम पूजा कर आमी दोगांय उल्लेलें पुजेचें सामान घेवन येता. (मोनिकाक) Come, come. Don't waste time here. We will brought other luggage here.

(मोनिकाक ओडीत ओडीत भितर घेवन वता.)

भावोजी : भटमाम, पूजा सुरू कर. तुकां व्हरपाक भायर लायनी लागतल्यो. (बाबाक) दर वर्सा भटाखातीर अशेंच जाता. गणपती वाडत आसा. पूजा सांगपी भटमाम उणे जायत आसा. तुमची पूजा सुरू जावंदी. हांव रोखडो येतां. (भितर वता.)

बाबा : भटमाम, कशे आसात?

भटमाम : खूब बरा हाय. तूं आलास ते बघून संतोष झाला. खरें म्हणजे सगळ्यांनी तुझी आशाच सोडली होती.

बाबा : (पिवपाक ह्या अर्थान) काय घेणार?

भटमाम : घेणार काय? वर्षपद्धतिप्रमाण गणेसपुजेस ठेविल्लें सामान अणी तुमी देणार ती दक्षिणा.

बाबा : तें जालेंच. पूण कितें 'पितले' काय म्हणटां? फॉरेन आसा म्हण विचाल्लें.

भटमाम : (रागान) शीव! शीव! आज चतुर्थीच्या दिवशी ब्राह्मणांस असें विचारतो? शुद्ध दशग्रंथी ब्राह्मण हाय मी. (ल्हवूच) दुसऱ्यावेळीं बघुया. आत्तां नको.

बाबा : बरें मागीर दिवाळेक पळोवया. नरकासुरा दिसा.

भटमाम : (उमेदीन) चालेल. त्या दिवशी चालेल.

(इतल्यान भितरसावन बाय आनी मोनिका येतात. तांच्या हातांत पुजेचें कितें कितें सामान आसा. भावोजीय येता.)

भावोजी : आरे, पूजा आजून सुरू जावंक ना?

बाय : Start, *Bhatman* start.

भटमाम : (आडखळत बाबाक पळयत) पूण पुजाऱ्यान खालीं बसव्यां. नको? अणी पांयाचे पादत्राण पण काढाव्या नको?

बाबा : Sorry भटमाम. म्हाका आसनमांडी घालून बसपाक जमना. बूट काडूंक जाय जाल्यार काडटां (काडटा) पूण जमनीर बसपाक जावंचेंना. संवंयूच ना न्हय?

भावोजी : (समजायत) भटमाम, पुजेच्या वेळार कसलीय वस्त नासतकूच अमकी वस्त 'समर्पयामी' म्हणून अक्षता वडयतात तशें 'आसनमांडी समर्पयामी' म्हणून अक्षता वडयात, म्हणटकूच जालें.

भटमाम : बरें आसा. शास्त्रांत तशी व्यवस्था हाय.

(बाब बसकेर / कदेलीर बसता. भट सकयल पाटार. मुखार गणेसपुजा दवरून पयलीं गणेसपुजा करता.) केशवाय नमः। माधवाय नमः । गोविंदाय नमः (महागणपतीक - नाल्लाक उदक, गंध, फूल घालता. आचमन करता. मागीर गणपतीक उदक (न्हाण), गंध, फुलां, वस्त्रां, जानवें, हार आदि. बाय पुजेक मदत करता. मोनिकाक सगळेंच अजाप. ताका समजून घेवपाची उमळशिक पूण ताका समजावपाक कोणांक वेळ ना बाबा ताका सांगता, "Please, I will tell you afterwards". भावोजी मोनिकाक कडेक व्हरून समजावणी दिवपाचो यत्न करता.)

भावोजी : (समजायत) You no, going on is *Ganesh Puja.* In our tradition of *Dharmashastra,* Every small or big *Karya* starts from *Ganesh Puja.*

मोनिका : Worship of coconut fruit? that's *Nalla?*

भावोजी : No, No. Listen. When you are using coconut it *Humann.*

मोनिका : Your fish curry.

भावोजी : Yes, correet, using coconut in fish curry that time it is coconut and when it is putting to God front then it is *Shrifal.*

मोनिका : *Shrifal?*

भावोजी : (घाम पुशीत) Yes *shrifal.*

मोनिका : That mean God's fruit.

भावोजी : Yes, God's fruit. देवाचें फळ, श्रीफळ!

मोनिका : Fantastic!

भावोजी : In our *Shastra,* everything had another meaningful name दर एके वस्तीक दुसरें, अर्थांत भरिल्लें अशें नांव आसा.

मोनिका : For Instance?

भावोजी : देखीक न्हय? telling. (पूजा साहित्यांतलो फुलांचो पाटुलो घेवन) See (हरयाळी दाखोवन) What is this?

मोनिका : Oh! this is grass.

भावोजी : No No. In our *Shastra* it is *Durva.*

मोनिका : (याद करून) हरयाळी.

भावोजी : *Haryali* in field *Porsu*, but here it is *Durva* (पानां दाखोवन) tell me, what is this?

मोनिका : leaves, पानां.

भावोजी : No no, it is *Patri,* different type of *Patri.* बेल, चिड्डो, चानाचिड्डो, सीतेचंवर, वागाचे चपके, हुंदराकान, रुई, तुळस, जाय, जूय, ओंवळ.

मोनिका : Means what?

भावोजी : That I will read first *Mukesh Thali* and *Domodar Ghaneekar's* Konkani English Dctionary and then tell you O. K.?

मोनिका : O. K. Ok! Next year I can pick up it. फुडल्या वर्सा म्हज्यान पीकअप करपाक जातलें.

भावोजी : श्यूयर ! श्यूयर! पिकअप भरून कित्याक? व्हडलो केंटर भरून लेगीत पत्री हाडूं येता. रानांत अशीच आसता. आनी तें पळय ती ताटांत – in big plate आसा ती पंचखाद्य.

मोनिका : Food!

भावोजी : Yes, but in *Shastra, Prasad, Panchakhadya!* Five types of food mix together and make *Prasad.* Very Sweet! In front of that, your cake is nothing.

मोनिका : Oh!

भावोजी : and you know ? we will put *Ganapati* for five days. आमी गणपतीक पांच दीस दवरतले. एकाच जाग्यार बसोवन. गणपती Will stay five days.

मोनिका : Oh ! Why only five days? Why not Six days?

भावोजी : No, then we can put only seven days.

मोनिका : Seven days? Why not eight days?

भावोजी : You know, acording to our *Shastra,* staying *Ganapati* Only in गडें, not फाडें.

मोनिका : *Gadem* and *fadem* What does this mean?

भावोजी : That I will tell you next birth. फुडल्या जल्मांत.

मोनिका : How nicely you are talking English father-in-law!

भावोजी : It is because of your great mother - in - law.

बाय : (आड्डून) थंय ताचेकडेन कसल्यो गुलूगुलू गजाली चलल्या?

भावोजी : तुजीच तोखणाय! तुजे इंग्लीशीची!

(गणेसपुजा जावन गणपतिचीय पूजा जाल्या. भट आरत पेटोवन दिता. बाबा तिचेर सिगरेट पेटोवपाक सोदता. भट ताका 'नाका' म्हणून आडायता. बाबा भट सांगता तशी घांट वाजोवन आरत दाखयता. त्या आवाजान शेजारी धांवत – पळत येतात. आरत म्हणटा–)

सुखकर्ता दुःखहर्ता वार्ता विघ्नाची
नुरवी पुरवी प्रेमें कृपा जयांची

(आरत आपणांक समजना म्हणपाची कागाळ मोनिका बाबालागीं करता. बाबा आरत मदींच थारायता आनी इग्लीशींतल्यान सुरू करता. बाकिचे नाईलाजान बाबा बरोबर म्हणटा.)

बाबा : Doing happines, throwing sadness,
news of trouble
Taking away, Supplying full of blessing ||

All the body beautiful, Pack of sandlewood
In the neak glitter, diamond nackless ||

Viva God viva God viva holy statue
When saw you only, whishes completing ||

Full precious stone for you son of *Gauri*
Pack of sandlewood *kumkum* of safron

Dimond crown Looks very nice
Ringing anklets in your legs

viva God viva God viva holy statue
When saw you only whishes completing ||

(मोनिका आरती आयकून खुश जालां ते फुगडी घालपाखातीर फुरफुरता.)

मोनिका : (बायक ओडीत) Come on mother - in - law. We will play *Langadi.* I like it very much. *langadi-langadi.*

भावोजी : मोनिकाबाय, गणपतिमुखार लंगडी घालीनात.

मोनिका : Playing, I have seen on *Doordarshan.* (आवाज करीत) *Foo ss Foo ss.*

बाय : My Godaess! सायबिणी ती लंगडी न्हय. ती फुगडी.

मोनिका : Same You Sing. I will follow you.

(ताल याद करून म्हणटा)

मोनिका : ला ऽ ला ऽ ला ऽ लाऽ ला ऽ लाऽ

(बाकिचे त्या तालार उबे रावून ताळयो मारतात. त्या तालार बाय याद करून गावन, ताळयो वाजोवन पावली मारपाक लागता. बाकिचे तांच्या बरोबर नाचतात)

बाय : **न्हेसली कांचन साडी । ओ राया न्हेसली कांचन साडी ।**

(त्याच तालार मोनिका फुगडेचो इंग्लीश तर्जूमो करून गावपाक लागता.)

मोनिका : **Dressed the *kanchan sari* | O darling**

**Dressed the *kanchan sari* |**

बाय : **चडली मोगरे झाडार । ओ राया चडली मोगरे झाडार।**

मोनिका : **Climbed the *Mogare* tree | o darling**

**Climbed the *Mogre* tree |**

बाय : **खुंटिले मोगरे कळे । ओ राया खुंटिले मोगरे कळे।**

मोनिका : **Plucked *Mogre* buds | o darling**

**Plucked *Mogre* buds |**

बाय : **धाडिले गणपती देवा । ओ राया।**

**धाडिले गणपती देवा।**

मोनिका : **Sent to Ganapati God | O darling**
**Sent to Ganapati God |**
**Dressed the *kanchan sari* | O darling**
**Dressed the *kanchan Sari* |**

(सगळे ताळयो मारतात. त्याच नेटार दोगांय कचे घालतात. बाय मूळ कोंकणी म्हणटा. मोनिका ताचो इंग्लीश तर्जूमो सादर करता.)

बाय : **दुदी बायेय दुदी । घरावयलो दुदी**
**आमच्या गणपती । भांगराची मुदी**

मोनिका : **Pumkin miss pamkin | Pumkin on house**
**Our *Ganapati* weavs | Golden ring**

दोगांय : फू ऽऽ फू ऽऽ फूऽऽ फूऽऽ

बाय : **कचे बाये कचे । वल्लीभर कचे**
**आमच्या गणपती । भांगराचे मोचे**

मोनिका : ***Kache* miss *kache* | Full *Olli* kache**
**Our *Ganapati* have | Golden shoes !**

दोगांय : फू ऽऽ फू ऽऽ फू ऽऽ फू ऽऽ
(फुगड्यांच्या तालारूच मागीर पश्चिमी संगीताची धून वाजपाक लागता. ते धुनीर मोनिका नाचता. बायेकूय नाचपाक फोर्स करता पूण बायेक तो नाच मानवना. ती साथ करीना. नाच सोंपता. भटाक वचापीच ताकतिक जाल्या.)

एकलो : भटमाम, (एकल्याक मुखार काडून) हाचें हालींच बाय पास जालां. हाचेखातीर एक बरें सांगणें कर.

भटमाम : (ताकतिकेन) हे देवा गणपती म्हाराजा, हाचें हालींच बाय पास जालां. दर वर्सा हाचें अशेंच बायपास जावंदी. आनी कल्याण कर.

लोक : हय सायबा!

एकलो : भटमाम. तसलें बाय न्हय. ताचें बायपासचें ऑपरेशन जालां.

भटमाम : देवा, म्हाराजा माफ कर. हाचें एक बायपास जालां तें पुरो. दुसरें बायपास जावपाक नाका.

लोक : हय सायबा!

भटमाम : आतां सगळे हात जोडात.

भटमाम : हे देवा गणपती म्हाराजा,

लोक : हय सायबा !

भटमाम : हो बाबा उर्फ साईश,

लोक : हय सायबा !

भटमाम : ताची वाग्दत्त वधू मोनिका,

लोक : हय सायबा!

भटमाम : बायेचो घोव-भावोजी,

लोक : हय सायबा!

भटमाम : ताची आवय बाय,

लोक : हय सायबा!

भटमाम : हाणी सगळ्यांनी मेळून एकमत्तान आनी एक चित्तान-

लोक : हय सायबा!

भटमाम : ही तुजी सेवा करून घेतल्या. पावन करून घे.

लोक : हय सायबा.

(मोनिका आपल्याक सांगणें कळना अशी कागाळ बाबाकडेन करता. बाबा मुखावयलें सांगणे इंग्लीशींत घालता. आतां 'हय सायबा'च्या जाग्यार 'यस सर' म्हणटात.)

बाबा : Oh, one teeth God!

लोक : Yes Sir!

बाबा : Take my care left and right, up and down.

लोक : Yes Sir!

बाबा : Oh! Son of *Parvati* and *Shankar*-

लोक : Yes Sir!

बाबा : Every day thousands of mistakes happen in my hands forgive me God.

लोक : Yes Sir!

बाबा : Oh ! Big Stomach God

लोक : Yes Sir!

बाबा : Take Care of Children and kids

लोक : Yes sir!

बाबा : Cattle and Calfs.

लोक : Yes Sir!

बाबा : And all people do well my God.

(सांगणे जायनाफुडें भटमाम बेगीबेगीन आपणालें सामान कवळटा. लोकांतलो एकलो सगळ्यांक निवेद्य – पंचखाद्य वांट्टा. बाबा बोल्सांतल्यान चेकबुक काडून ताचेर आंकडो बरयता आनी भटाक दिता.)

बाबा : घे भटमाम.

मोनिका : What are you giving to *Brahmin* uncle?

बाबा : That is *Daxina*.

मोनिका : Means what? fee of worship?

बाबा : That I will tell you afterwords. घे भटमाम. हो चेक घे. फक्त आंकडो बरयला. वयर तुजें नांव बरय. ही तुजी दक्षिणा.

भटमाम : पूण अशी चेकान?

बाबा : आमचो सगळो वेळार चेकानूच जाता.

भटमाम : वेवहार?

बाबा : हय. हो म्हण एक वेवहारूच न्हय?

भटमाम : आतां दक्षिणेचा एक एकावंट उगडाव्या लागला.

(प्रसाद वांटून जाला. लोक वचपाक लागतात. पार्श्वभागाचेर

पश्चिमी गीताची द्रूत गत आशिल्ली एक धून वाजपाक लागता. एकलो एकलो वचपाक लागता. वतना-)

: भटमाम, आतां पुजेक आमगेर येवपाचें आं.

: बाबा, सांगणे करपाक आमगेर यो आं.

: बाय, फुगडी घालपाक आमगेर यो.

: मोनिकाबाय, 'कांचन सारी' घेवन आमगेर यो.

(सगळे खूश आसात म्हणल्यार बाय एकलें फणफणटा. गणपती मुखावयल्या सामानाची आदळ आपट करून सामान भितर व्हरता. बाबा आनी मोनिका ते पश्चिमी धूनीचेर ल्हवू ल्हवू नाचपाक लागतात. तशींच भितर वतात. भावोजी मुखार येता. प्रेक्षकांकडेन उलोवपाक लागता.)

**भावोजी** : बायचें कितेंतरी बिनसलें. बायन सगळो राग हाताक मेळटा त्या वस्तुंचेर काडलो. हांव मातसो दोन हात पयसूच म्हणल्यार जाता. चवथीचो पयलो दीस तसोच शेळेल्ली फोगेट कसो सुरसुरत गेलो.

(खिणभर काळोख जावन रोखडोच उजवाड जाता.)

दुसऱ्या दिसा पंचम. सकाळचो आदेस असोच सुरसुरत गेलो. सांज जातां जातां मात सुरसुरपी गरंजेलाचो फार जालो.

(बाय सडसडीत भायर येता. नेटान)-

**बाय** : आयकलां?

**भावोजी** : Yes आयकतां.

**बाय** : तें यॅस फॅस नाका. गणपती पावपाचो.

**भावोजी** : यॅस फॅस नाका? तोंडाक फेस आयलो दिसता! आं, गणपती पावपाचो? पूण पांच दीस दवरपाचें थारलां न्हय? बाबान थारायलां. मोनिकाक उमेद जाल्या.

**बाय** : सगळ्यान चड तुकां जाल्या.

**भावोजी** : जाल्याच.

**बाय** : जाल्या ती विटंबना पुरो.

भावोजी : कोणाची विटंबना?

बाय : आनी कोणाची? गणपतिची. आरत्यो जाल्यो, फूड जालें, गाराणें जालें.

भावोजी : (त्रोसांनी) फुगड्यो जाल्यो!

बाय : हय. फुगड्योय जाल्यो. डान्स जालो. गणपतीक उजवाती वाट्याचो सिगरेटचो धुंवोर मात दाखोवपाचो उरलो.

भावोजी : पूण तूं कितेंय म्हण, जे कितें जालें तें इंग्लीशींत जालें काय ना? सगळ्यान चड आनंद तुकां जावपाक फाव. आतां पळय, सगळे वाडोभर वचून सगळ्यांच्या गणपतींमुखार तुजो बाबा इंग्लीशींत गाराणें घालतलो. वाड्यावयल्या सगळ्या बायलांक जमोवन मोनिका इंग्लीशींत फुगड्यो घालतलें. आनी मागीर डान्स.

बाय : खूब आयकलें तुमचें. चलात, उखलात गणपती. (उलो मारून) कृष्णा ऽऽ, विठ्ठल, शंकर, विष्णू - (व्हडल्यान) मंगलमूर्ति मोरया!

भावोजी : आगो, पूण गणपतीक पायतलो जाल्यार भटाक हाडून प्राणप्रतिष्ठा केल्या तशी उत्तरपूजा करपाक नाका?

बाय : कांय गरज ना. हांव करतां सांगणे - (सांगणे करता)
हे देवा गणपती म्हाराजा,
तुजी जाल्या ती विटंबना खूब जाली.
आनी मुखार कांय बरें वायट घडचें न्ही देखून बेगीन वच.
आनी बरें कर सायबा!
(चार पांच जाण धांवत धांवत येतात. सगले वेवहार ताकतिकेन घडटात.)

लोक : गणपतीबाप्पा मोरया! फुडल्या वर्सा लवकर या!
(गजराच्या तालार गणपतिची मूर्त माथ्यार धरून सगळे वतात. भावोजीय तांच्या फाटल्यान वता. बाय तशेंच सडसडीत घरांत वता. फाटोफाट तशेंच सडसडीत मोनिका

भायर येता. गणपती पुजिल्लो ते सुवातेर पळयता. ताका धक्को बसता. ताका रागूय आयला.)

मोनिका : My God ! She really took Elephant God out of the House. Must have dropped into water.
(उलो मारून) Darling *Sash.* Come here please.
(बाबा बेगीबेगीन भायर येता.)

मोनिका : Your mother...

बाबा : What happened?

मोनिका : Where is your Elephant God? You were telling that *Ganapati* will be here for five days or seven days. How I had planned to make dance every day in front of *Ganapati!*

बाबा : Why do you want *Ganapati* to make dance?

मोनिका : For inspiration and you told one that *Ganapati* is the God of Arts.

बाबा : That is Correct.

मोनिका : Your mother is very bad cheater. I will teach her lesson. बरो धडो शिकयतां तिका. Tell me when is your *Diwali,* that *Narkasur* festival?

बाबा : ताका आजून वेळ आसा. It has time.

मोनिका : Time ? No.
(ताका बळजबरीन घेवन भायर वता. भायर वतना भावोजी भितर सरता भावोजी प्रेक्षकांमुखार येवन उलयता.)

भावोजी : मोनिका म्हणल्यार सुमाराचें न्हय. सामकी तारवटी मिरसांग. बायक कोणतरी वस्ताद जायच आसलो. सांपडलो तो वस्तादाचो वस्ताद! मोनिका पळयतालें दिवाळेची वाट. चवथ आनी दिवाळी हांचेमदीं देडेक म्हयन्याचें अंतर. पूण कितें जालें कोण जाणा! तो काळ अशे तरेन सल्लो कोणाकूच कांय कळ्ळें ना. चवथ जावन रोखडीच अनंत चतुर्दस

जाली. एकवीस दिसांचे गणपती पावन जाले. मागीर दोन आक्टोंबराक जाली राष्ट्रपिता महात्मा गांधी जयंती. मागीर कोंबे-बोकडे कापपाचो दसरो. एक बरी काणी याद जाली. आठसाठो कोंबो आपणाले आवयक कोंबयेक विचारता, 'आवय. दिवाळी केन्ना गे?' तर आवय सांगता, 'पुता, पयलीं दसरो-बरेभशेन जांव दी. मागीर दिवाळी.' समजलें न्हय? तुमका आनी फोडून सांगपाची गरज आसा? उठट्या सवण्याचीं पांखां मेजपी तुमी. तर दसरो जालो. मागीर उदेली कोजागिरी पुनव. 'कोऽऽ जागरती? 'देवी विचारता. जो जागो आसा ताचेर देवी प्रसन्न जाता. देवी प्रसन्न जाता ना जाता थंयच आसा. उदेली दिवाळी. नरक चतुर्दस.

(भायल्यान नरकासुराचे मिरवणुकेचें वाजोवप सुरू जाता. ताचेबरोबर बोवाळ. भावोजी तेवटेन वता. मोनिका आनी बाबान सगळ्या शेजाऱ्यांक एकठांय केल्यात. एकल्यान माथ्यार धरून नरकासूर हाडला. तोंड मोटेंआनी बाकिची कूड बारीक अशी नरकासूराची प्रतिमा तयार केल्या. बाबा आनी मोनिका खूब उमेदीन आसात. मोनिका हिसपाभायर खोशी. लोक आड्डी मारतात. नरकासूराक व्हरून मोनिकाचे आज्ञेप्रमाण गणपती पुजिल्लो त्या जाग्यार दवरता.)

**लोक** : नरकासुरा रे नरकासुरा । बरी बरीं कापडां भोकांत भरा।

**मोनिका** : Lovely. नरकासुरा रे नरकासुरा That meaning I Know. But What is the meaning of बरीं बरीं कापाडं भोकांत भरा!

**भावोजी** : (मुखार येत) राव, हांव सांगतां. नरकासुरा रे नरकासुरा बरीं बरी कापडां बॅगांत भरा.

**मोनिका** : Ok. All pray to the God *Narkasura* please.

(सगळे नाईलाजान म्हणटा तशे नमस्कार करतात. भावोजीय बाय नाशें पळोवन चुकोवन नमस्कार करता. बाबा आनी

मोनिका भक्तिभावान म्हणटा तशीं नमस्कार करतात.)

मोनिका : From now onwards we will regularily workship *Narkasura.* Daily *Bhajan* in English.

(भावोजीक भजनांची कूय येता.)

भावोजी : (गायत – 'देवा तुझा मी सोनार'चो इंग्लिश तर्जूमो) God I am your goldsmith ! Goldsmith.

(मोनिका ताका मुखार म्हणपाक सांगता. पूण मुखावयल्यान बाय येता. भावोजी बायच्या भंयानच गावप बंद करता.)

बाय : (मुखार येवन) हें कितें चल्लां? *Baba,* what is going on here?

बाबा : तूं तुज्याच दोळ्यांनी पळयता न्हय मम्मा?

बाय : आरे, नरकासुराक म्हण असो देवाभशेन पुजेक लायता? You know, he is Devil!

बाबा : That I don't know *Mamma.*

बाय : कशें खबर ना? त्या मोनिकाक एक खबर ना. She is foreigner, but you are from here.

बाबा : पूण मम्मा नरकासूर देव काय सैतान. हें म्हाका खरेंच खबर ना. आनी तें कळपाच्या वेळार तुवे म्हाका इंग्लंडाक धाडलो.

बाय : इंग्लंडांक तुका इंग्लीशमन जावपाक धाडिल्लो. तूं इतलो बोणो कसो जालो?

बाबा : हांव बोणो जालां काय कितें तें खबर ना. पूण हांव इंग्लीशमन जालां इतलें खरें.

मोनिका : Please tell me, what is your conversation going between you?

बाय : तुकां कित्याक? आमी दोगांय आवय–पूत कितेंय उलोवं. Why you are talking in between like broken teeth? (चाळोवन) London Bridge is falling down!

मोनिका : (चाळोवन) Your *Mondovi* Bridge is falling

down.

बाय : पळयिल्ले भितर आपणाल्या लंडन पुलाचो हाका व्हडलो अभिमान!

मोनिका : Yes. of course. I am proud of my people, culture, English language and all English things.

बाय : जाल्यार हांगा शेण खावपाक कित्याक आयलां?

मोनिका : तुज्या पुताक इंग्लंडाक कितें खावपाक धाडिल्लो?

बाय : हं! इंग्लीश भाशेचो अभिमान! इंग्लीश कितें तुकांच येता? म्हाकाय येता इंग्लीश. I am talking English and walking English.

मोनिका : Walking in English? My God! such type of miracle does not happen even in England. It happens there only talking English, writing English, reading English and some time Dreaming in English, but never walking in English.

(बाबा सोडून भावोजी धरून सगळे लोक ताळयो वाजयतात. ते इतलो वेळ दोगांयचें संभाशण चत्रायेन आयकताले.)

बाय : (ताळ्यो मारप्यांचेर तापून) ताळयो कित्याक मारता? खंय भाशणां आयकुपाक आयल्या? बाबान आनी ताणे तुमकां बऱ्यो बऱ्यो फॉरेन भेटी दिल्यात म्हणून तांच्या फाटल्यान नाचतात. (भावोजीक बोट दाखोवन) हो एक दादलो. तातूंतलोच.

बाय : (मोनिकाक) दर एकल्याची एक एक भास आसता. Your English is different, my English is defferent.

मोनिका : Your English is not English at all.

बाय : कितें?

मोनिका : Yes I have born in England and brought up there. My language is English. Also English is the language of America, Austrialia, Newzealand countries. We both have travelled there. But no Where people speak English, Which you

speak.

बाय : बाबा, हें कितें म्हणटा?

बाबा : खरें तें मम्मा. तूं उलयता ती इंग्लीश सामकी विद्रूप.

बाय : हांगासर सगळो लोक असोच उलयता मरे.

बाबा : नस्त्या अभिमानाखातीर आनी शेणयिल्ल्या स्वाभिमानाखातीर ते अशे उलयतात.

बाय : आनी तूं हाचेबरोबर खंय खंय गेल्लो म्हणटा तें खरें?

बाबा : Yes. We were studying together. We get scholarship while studying. We had a study tour and went to various countries, Learned many things.

बाय : ही तुगेली मोनिका म्हजे इंग्लीशीचेर इतली कोंत्र कित्याक?

मोनिका : हांवूच सांगतां. (आडखळत पूण स्पश्ट) तुवें इंग्लीश उलोवपाक म्हजी न्हय, अख्ख्या संवसाराची हरकत ना. पूण उलयता ती सारखी उलय. मनशाक जशे दोळे, कान, नाक, हात पांय आसतात. तशें दर एके भाशेक कर्ता, कर्म, क्रियापद आसता. म्हजी इंग्लीश एक सुंदर भास! म्हजी मायभास म्हणून ती म्हाका अदीक सुंदर! जशी दर एकल्याक आपली आवय तशी! हे भाशेत शेक्सपियर, मिल्टन, गटे सारखे व्हड व्हड लेखक जावन गेल्यात. इतली गिरेस्त परंपरा आशिल्ली म्हजी भास! तिच्या आंगार कोणूय आपल्या अज्ञानान पिंजकीं वस्त्रां चडोवपाक लागलो जाल्यार म्हाका जरूर वायट दिसूंक फाव.

(सगळ्यांक ताळयो मारपाची उमळशिक जाल्या. पूण एकामेकाच्या तोंडाक पळोवन वगी रावतात.)

बाय : (मनाचो निश्चेव करून) आयकात. सगळे आयकात. नाजाल्यार मागीर आयकलेंना म्हणशात. म्हज्या हांगच्या कुळारच्या तशेंच (भावोजीक बोट दाखोवन) घोवाघरच्या

तशेंच हांगच्या-थंयच्या सगळ्या देव-देवतांचो सोपूत घेवन सांगतां, ह्यानफुडें हत्तपार हांव म्हज्या मुखांतल्यान (मोनिकाक बोट दाखोवन) हागेले इंग्लीशीचें एक उतर लेगीत तोंडांत घेवपी न्हय.

(व्हदळ वगी राविल्ले सगळे, बाबा सोडून सगळेजाण नेटान ताळयो वाजयतात. इतल्यान मोनिकाक घुंवळ येता. तें कोंसळटा. बाबा ताका सांवरता. एका जाग्यार बसयता. आडवें करता. गर्देंतल्यान 'दोतोराक हाडात, दोतोराक हाडात' असो आवाज जाता. एकलो कोणतरी भायर धांवता. मोनिका म्हऱ्यांत बाबा, बाय आनी बाकिचे कंवडाळे करून रावतात. भावोजी गर्देंतलो कडेक सरून मुखार येवन प्रेक्षकांकडेन उलयता.)

**भावोजी** : चिंता हुस्को करपाची गरज ना. दोतोर रोखडो येतलो. वाड्या-वाड्यार दोतोर जाल्यात तशो रोगगपिडाय वाडल्यात. (लक्षांत येवन) ना, ना. रोगपीडा वाडल्यात त्या प्रमाण दोतोर काडल्यात. तर मोनिकाक अकस्मात घुंवळ आयली. येवपाचीच. बायचो सोपूत म्हणजे सामको वज्र निर्धार ! ह्यानफुडें इंग्लीशीचें एक उतर तोंडांत घेवचीना! मोनिकाची मातृभास इंग्लीश. संवसारांतलो इंग्लीश उलोवपी एक मनीस सासणाचो ना जालो आनी तोवूय आपणाखातीर म्हणून मोनिकाक घुंवळ आयल्या आसूं येता. वा आपणाले इंग्लीशीची वोट लावपी एक मनीस सासणाचो पैस गेलो म्हणून जाल्ले खोशयेनूय घुंवळ आयली आसूं येता. कितें तें कळटलेंच.

(इतल्या बोवाळान दोतोर आयला. मोनिकाक तपासून जालां. दोतोर सामान कवळून, तें सामानय मूळ आकारापरस व्हड आसा, गर्देंतल्या मुखार येता आनी सांगता.)

**डॉक्टर** : (हिंदी सिनेमांतल्या संवादाचे शैलीन) डरनेका कोई कारण

नहीं है। तुम्हारी बेटी माॅ बननेवाली है।

बाय : क्या? ऐसा कैसा हो सकता है?

भावोजी : (प्रेक्षकांक) बायन इंग्लीश ना उलोवपाचो सोपूत घेतला. हिंदी न्हय.

डॉक्टर : क्यू नहीं हो सकता? हर एक औरत को माँ बननेका पूरा अधिकार है। उसका अधिकार कोई नहीं छीन सकता!

बाय : लेकिन –

डॉक्टर : लेकिन क्या?

बाय : उसकी शादी नहीं हुयी है।

डॉक्टर : तो क्या हुआ? शादीका और माॅ बनने का क्या तालुक है? (हाडिल्ल्या त्या मनशाक) चलो. (दोतोर वता. वातावरण गंभीर जालां. बाबा मोनिकाक घेवन ल्हवू ल्हवू भितर वता. बाय मोनिका भितर गेल्ल्याची खात्री करून घेता. मागीर फाटीं येवन शेजाऱ्यांक चत्रायो दिता.)

बाय : आत्तांच्या आतां ह्या नरकासुराक व्हरून पावोवपाचो.

एकलो : खंय पावपाचो?

बाय : पावपाचो म्हणजे लासपाचो.

दुसरो : ताका आमी आमच्या नरकासुरांबरोबर लासतां.

भावोजी : पूण मागीर मोनिकान येवन सोदलो जाल्यार?

बाय : मागीर कितें? सात दीस दवरता?

भावोजी : तशें न्हय, ताका सांगून काडिल्लो बरो न्हय?

बाय : कांय गरज ना. उखलात रे. पळयता कितें? (शेजारी नरकासुराक उखलतात. म्हणपाकूय वता – 'नरकासुरा रे नरकासुरा' – बाय तोंडार बोट हाडून सगळ्यांक वगी करता. शेजारी नरकासुराक उबारून मड्याभशेन आडवो करून जाग जावचीना अशा ल्हवपीक पावलांनी भायर वतात. वतना म्हणटात, 'राम नाम सत्य है।')

बाय : हो नरकासूर ताच्या, मोनिकाच्या दोळ्यांमुखार नाका.

भावोजी : कित्याक?

बाय : म्हाका भुजलां तें पुरो.

भावोजी : कितें तें?

बाय : अशेच दीस गेल्ले म्हाका. तेन्ना ध्यानीमनी कोण काय म्हणल्यार फिरंगी.

भावोजी : फिरंगी?

बाय : हय कल्पनेंतलो इंग्लीशमन. बाबा तसोच फिरंग्याभशेन जावचो अशें दिसतालें.

भावोजी : हय. आनी तशेंच जालें.

बाय : तुमी मात गांवभर बोवाळ घातलो.

**आडकुलो गो बुडकुलो । तेला तुपाचो**

**बायगेर बाब जालो । फिरंगी रुपाचो**

कसो तें कोणेच समजून घेतलेंना. म्हजे अस्वडीं सगळे म्हजेर दुबाव घेत रावले. पयसुल्ले कित्याक? तूं दादलो लेगीत. तूं तर म्हज्या दोळ्यांआड म्हयन्यांचो हिशोब मांडपाक लागलो. खंयच्या त्या अस्तित्व पिक्चराच्या हिरोभशेन!

भावोजी : (खजिल जावन) म्हज्या आडकुल्याचो बुडकुलो आतां फुटलो! (कपलार हात मारून बसता.)

बाय : उठ, कपलार हात मारपाक आतां वेळ ना. भटागेर वचून बरीशी वेळ काडून यो.

भावोजी : फुलांखातीर?

बाय : फुलां मागीर. पयलीं लग्न.

भावोजी : पूण एक वेळ बाबा आयकत. तें आयकत?

बाय : ताचो बापूय आयकत.

भावोजी : तो खंय आसा कोणाक खबर!

बाय : जितो आसल्यार आसतलो, खंयच्यातरी वृद्धाश्रमांत.

भावोजी : हय. तीच तांची परंपरा. आवय-बापायक सोडपाची. (इतल्यान भितरसावन बाबा भायर येता. ताच्या हातांत एक

बॅग आनी एक दोन कपड्यांच्यो पोतयो आसात. ताच्या तोंडार चिंता पातळल्या.)

बाय : (दुबावान) जालें. आमी येवजितालीं तशेंच जालेंशें दिसता.

भावोजी : कितें?

बाय : म्हजे सगळे आंवडे गळ्यांतूच आटपाचे. हीं दोगांय घर सोडून चल्लीं. कसली एक एक वान्सा. हें कारस्थान ताचेंच. त्या मोनिकाचें. तें हे मातयेचेंच मनीस न्हय. तें म्हजें सगळें घर पुसून व्हरतलें.

भावोजी : अशा वेळार मन घट करपाक जाय.

बाय : आतांच एकवीस वर्सांनी म्हजो बाबा घराक आयिल्लो. पळोवपाक जालो ना हे फिरंगी कैदाशिणीक.

भावोजी : शांत जा. तोल वचूंक दिवं नाका.

बाबा : (थंडपणान – खंतीन) मम्मा, पप्पा सांगपाक म्हाका खूब खंत भोगता. पूण एकूच सांगतां, हो निर्णय म्हजो न्हय. मोनिकाचो. ताणे पयलीं मनाचो खर निश्चेव केलो आनी मागीर म्हाका सांगलें. म्हजो नाईलाज जालो. सॉरी मम्मा, सॉरी पप्पा. मोनिकाचें म्हणणे एकेवटेन खरें. (दोगांयचे नदरेंत प्रश्न) ताच्या म्हणण्याप्रमाण दीस गेल्ले गुरवार बायलेच्या मनाचेर बरें संस्कार जावपाक जाय. तेच संस्कार मागीर भितरल्या गर्भाचेर जातात.

भावोजी : तुजे आवयचेंय तेंच म्हणणें पुता. देखून तिणे घरांत हाडिल्या नरकासुराक लेगीत कडेक काडलो.

बाबा : बरें केलें. थँक्यू मम्मा.

भावोजी : पूण बाबा, कितें म्हणटालों जाणां –

बाबा : सांग पप्पा –

भावोजी : हें सगळें खरें आसा. पूण तेखातीर घर सोडून पयस वचपाकूच जाय? हांगाच रावून जल्माक येवपी भुरग्याचेर ते संस्कार

घडोवं येता.

बाबा : आमी तशेंच करतलीं पप्पा. हें घर सोडचींना. मोनिकाक हें घर मानवलां.

भावोजी : मागीर हीं बॅगां, पोतयो घेवन कोण भायर सरता तर?

बाबा : तुमी. हीं तुमच्या सामानाचीं बॅगां. तुमची मुस्तायकी आनी वस्तू ह्या बॅगांनी भरल्यात. आनीक कितेंय उरलां जाल्यार मागीर येवन व्हरूं येता.

(दोगांकूय आकांताचो धक्को बसला.)

भावोजी : आरे पूण, आमी ह्या जाणटेपणांत खंय वचपाचें?

बाबा : अर्थात वृद्धाश्रमांत. पैशांची वेवस्था आमी करतलीं. आनी अदींमदीं तुमकां फोनय करतलीं. तुमच्या दोगांयच्या वाडदिसाक, तशेंच तुमच्या लग्नाच्या वाडदिसाक तुमकां ग्रिटींग्ज धाडटलीं. एसएमएस करतलीं. तशीं आमी तुमकां वाऱ्यार वडोवचींना.

बाय : कितें? तूं आमच्या वंशाचो घणघणीत पेट्टो दिवो आसताना आमी थंय वृद्धाश्रमाच्या काळखांत रावप?

बाबा : वृद्धाश्रमांत काळोख आसता म्हण तुमकां कोणें सांगलें?

भावोजी : पूण वृद्धाश्रम ही आमची कल्पना न्हय. परकी कल्पना.

बाबा : बरोबर, परक्यांचें आमी जें कितें कितें आपणायलां ताचे बरोबर हें आयलां. बाजारांत दोन वस्तू घेतकूच एक वस्तू फुकट मेळटा तशें.

बाय : बाबा, आमचें एक बरें आसा. जाणटेपण, गळपाचो काळ. पूण तुजे बायलेचें कशें? तिका आतां खऱ्यांनीच आमची जाणटेल्यांची गरज आसा.

बाबा : कसली गरज?

बाय : आतां तिका दुवाळे लागतले. कितें कितें खायन दिसतलें. तिची अर्थअपुरबाय कोण करतलो?

बाबा : तिका खायन दिसता तें सगळें मार्केटांत मेळटलें. तें स्वता

वचून हाडूं येता. फोन करून, ई-मेल करून घरा मागोंव येता. ताचो हुस्को तुमकां नाका.

**बाय** : पूण अर्थअपुरबाय?

**बाबा** : अर्थअपुरबाय नांवाची वस्त ना मम्मा.

**बाय** : बरें तुजे बायलेचें एक सोड. फाल्यां तुगेर भुरगें जातलें. ताची अर्थअपुरबाय कोण करतलो? ताका ललय गावन कोण न्हिदायतलो? देखीच्यो काणयों कोण सांगतलो? ताचेर संस्कार कोण घडयतलो?

**बाबा** : ताचे खातीर इंग्लीशिंतल्यो तरांतरांच्यो ऑडिओ – व्हिडिओ सिडी-व्हिसिडी आसतल्यो. तेखातीर तुमची गरज ना.

**बाय** : बाबा, तूं असो कसो जालो रे?

**बाबा** : मम्मा, हांव तुकां जाय तसोच जालां.

**बाय** : ना बाबा, तूं म्हाका फिरंगी – इंग्लीशमन जावपाक जाय आसलो. पूण फक्त इंग्लीश भास उलयिल्लो. बाकिच्यो सगळ्यो गजाली आमच्योच जाय आसल्यो.

**बाबा** : मम्मा, पप्पा भास फक्त भाशेपुरतीच नासता. भाशेबरोबर आसता संस्कृती. चोरून हाडलेले कपडे एक तर घट जातात वो सदळ जाता. भाशेचें तशेंच. ती जर तुजी स्वताची नासत जाल्यार तुजी दशा काडटा. ब्रिटिशांक अशे दशाकाडे गांवठी सायब ह्या देशांत तयार करपाचे आशिल्ले. ताणी तो वावर केलो. आनी 'खऱ्यापरस बाटगो चड निष्ठावान' हे म्हणणे प्रमाण देशांत सुपर इंग्लीशमन तयार जाले. आनी मम्मां, ब्रिटिशांचो उरिल्लो अर्दकुटो वावर तुज्या सारख्या इंग्लीशमोगी मनशांनी केलो. ब्रिटिश आमचेर खूश आसात! भारतांतली तांची सत्ता जरी गेली, तरी तांगेली इंग्लीश भास पिळग्यान पिळगी आमचेर असुदाय सत्ता चलयता.

पप्पा, मम्मा तुमी बोन्साय नांवाची जपानी कला पळयल्या? (दोगांय वग्गी) जपानी लोक झाडांचेर एक वेगळोच प्रयोग

करतात. झाडांचीं पोंदची मुळां कातरून तांकां सामकीं धाकलीं मोटवीं करतात. येदो व्हडलो पन्नास मीटर उंचायेचो मळबाक भिडपी माड, येदोसो देडफूट करून गॅलरींत दवरतात. त्या माडाक नाल्लूय जातात. पूण खावपाचे न्हय. फक्त सोबेचे! इंग्लीश भाशेन आमचीं मुळां कातरून कातरून आमकांय अशेच बोन्साय केल्यात. बॉन्साय जाल्ल्या माडाची उंचाय जशी उणी जाता तशी म्हज्याय विचारांची वाढ खुंटल्या. म्हाका माफ करात.

(ताकतिक करून) मम्मा, आतां तुमचो वचपाचो वेळ जाला. (भायर उलो मारून) शंकर अंकल, कृष्णा अंकल ऽऽ (वळखीच्या शेजाऱ्यांक उलो मारता. शेजारी ताकतिकेन येतात. तांकां आनी सामानाक पळोवन गोंदळटात.)

: कोण खंय वतात?

**बाबा** : तुमचो भावोजी आनी बाय.

: खंय वतात?

**बाबा** : वाटेर सांगतलीं तीं तुमकां. तांकां सामान व्हरपाक मातशी मदत करात.

: बरे भाशेन.

(शेजारी सामान उखलतात. भावोजी आनी बाय लागीं वासपूस करतात. शेजारी सामान घेवन मुखार वतात. तांच्या फाटल्यान जड पावलांनी बाय आनी भावोजी वचपाक वळटात. बाबा तटस्थतायेन सगळें पळयता. कांय वेळ वातावरण गंभीर जाता. इतल्यान भितर सावन मोनिका भायर येता. ताणे भेस बदल्ला. साडी न्हेसलां.)

**मोनिका** : (मराठीत) थांबा.

(बाबा सोडून सगळीं अजापान पळयतात. मोनिका मुखार येवन बाय आनी भावोजीच्या पांयां पडटात. हेर शेजाऱ्यांक उब्यांनीच नमस्कार करतात.)

मंगला : मी मंगला बर्वे. मोनिका बिनिका कुणी नाही. माझं मूळ गांव पुणे. आई गोव्याकडची, बाबा पुण्याचे. साईशची मैत्रिण. शुद्ध मैत्रिण. लग्नापूर्वी ओंकारी – बिकारी न आलेली. जे झालं ते सगळं नाटक होतं. अर्थात आम्ही दोघं लग्न करणार आहोत, तुमच्या सगळ्यांच्या आशिर्वादानं, अगदी भारतीय पद्धतीन.

बाबा : मम्मा, पप्पा तुमी म्हाका फिरंगी करपाखातीर इंग्लंडाक धाडलो तशें मंगलाकूय ताच्या आवय – बापायनी इंग्लीश शिकून फिरंगी करपाक पुणेसावन इंग्लंडाक धाडिल्लें. आमची दोगांयची थंय भेट जाली. वळख जाली. दोगांयची एकूच समस्या, एकूच विचार. इश्टागत जाली.

मंगला : साईश भेटला नसता तर तिथलं जीवन असह्य झालं असतं.

बाबा : म्हजेंय तशेंच जातलें आसलें.

भावोजी : हें सगळें नाटक समजलें. पूण त्या हिंदी दोतोराचें कितें?

बाबा : तो दोतोर? गांवचोच. शेजार सामाऱ्यांकडेन इश्टागत केल्ली, ताचो उपेग जालो. (दोतोराचें सवंग केल्लो शेजारी येता.)

बाय : ह्या शेजाऱ्यांक कितें, जाल्यारूय वडे, मेल्यारूय वडे.

बाबा : पूण शेजारी म्हणजे शेजारी आं! कितें मोनिका? न्हय कितें मंगला?

मंगला : हो तर.

भावोजी : तुमी भितर चलात सगळे. ह्या खोशयेच्या वेळार. ल्हानशें सेलेब्रेशन करूंया.

(बाबा, बाय आनी मंगला आनी शेजारी भितर वचपाक वळटात. भावोजी प्रेक्षकांकडेन येवन उलयता.)

भावोजी : तुमी खंय वतात ? मातशे रावात. आतां सुरवातीक जाल्लें तशें शिर्शकगीत – टायटल सोंग जातकच मागीर नाटक सोपलें.

(व्हडली बाटली दाखोवन) मागीर अशे फाटल्यान येयात. रावतां तुमकां.

(सगळे कलाकार माचयेर येवन आरंभाचे शिर्शक गीत गायता.)

सगळे : **आमची भूंय, आमची भास, उकडी पेज खरी मिरास**
**भुलूं नका, धोलूं नाका, नकली सुरय फिरंगी फटास**

(सोंपता.)

कला चेतना, वळवय निर्मित -
'फिरंगी फटास' (2011)...



कलाकार : प्रशांत नायक, बाबलो शिलकार, राजदीप नायक, अनंतदास नायक आनी मयूर नायक.





कलाकार : सौरभ कारखानीस आनी राजदीप नायक



कलाकार : प्रितिका गावस आनी राजदीप नायक



2011-12 वर्सा गोंयांत, मुळाव्या शिक्षणाच्या माध्यम प्रश्नाचे बाबतींत जागृती आंदोलन चल्लें. आंदोलनाचोच एक भाग म्हणून ह्या नाटकाचें लेखन आनी निर्मिती जाली. आंदोलन काळांत गोंयभर ह्या नाटकाचे शंबरेक प्रयोग जाले. त्या प्रयोगांचो योग्य असो परिणामूय जालो.

मायभास ही फक्त संपर्कापुरती मर्यादित नासता, तर तिचो संबंद, संस्कार, संस्कृती हांचेकडेन जोडिल्लो आसता, अशा एका म्हत्वपूर्ण सिद्धांताचो हो रंगमंचीय आविश्कार!




ISBN 81-86488-96-0